# आमगेल्यो लोककाण्यो





सोमलता आर पै

# आमगेल्यो लोककाण्यो

बाल साहित्य

**सोमलता आर पै**

संकलन, संपादन आनी लिप्यंतर

**सूर्या अशोक**

चित्रण

**सुधाकर आर पै**

**शेणै प्रकाशन**

कोची

2013



Konkani
**AMGELYO LOKKANYO**
Children's literature

**SOMALATHA R. PAI**
'Sri Kaveri',
Near west Gate, Boy's High School,
Tripunithura, Kochi- 682301

First Edition-2013


Cover Design and all Illustrations by
**Sudhakar R. Pai**

Published by
**SURYA ASHOK**
**SHENOY PRAKASHAN**
19/36A 'Srinivas',
Waterland Road,
Palluruthy, Kochi-682006




Printed at
**VASANT INDUSTRIES**
Town Hall Road,
Kochi-682002

Price: ₹ 100

# प्रकाशकांलीं उतरां

कोंकणी आमची मातृभास. आमचे पूर्विकांनी राकून हाडलेली. तांचो धर्मु आनी भास संरक्षण करचे खातीर गोंयांतु साकून पालायन करतना सांगातांतु घेवनु आयलेली. आमचे पूर्विक केरळांतु पावनु पांयश्यां लागी वर्षां जाताय. जाल्यारीय ही आमची भास ह्या परके देशांतु परके भासे मद्दें कशी इतलींच वर्षां जिवंत वरली? कोणे तिका संरक्षण केल्ली?

हे कार्यांतु प्रमुख वांटो आमचे पूर्विक बायलांनीच निभायलोलो म्हूण सांगूयात. कारण घरवंतांच्या चार पागारांचे मद्दें जीवित काडताल्यो आमच्यो त्यो पूर्विक बायलो कोंकणी मात्र उपयोग करताल्यो. अन्य तद्देशीय भाषिकांचे लागी चड संपर्क नाशिल्यो त्यो, दांदल्यांचे समान नव्यो भासो शिकून काडूक पावल्योनाय. मातृभासेनच त्यो आपले चेरडूंवांचे लागी उलयताल्यो. काण्यो सांगून दिताल्यो. गींत म्हणताल्यो, भजन करताल्यो, एकामेकाक दिकतना कोंकणीनच उलयताल्यो. सदांचे उपयोगाक काडचीं सामानांचीं नांवां, खाणांचीं नांवां, रूक रुकावळी, पक्षी मृगांचीं नांवां सर्वय सांगूक स्वभासच उपयोग करताल्यो. तशी अम्मान व्होळ्ळेमान उलोंवची भास आयकून शिकून चेरडूंवांय उलयतालीं. भासेंतुल्यान आपलो संस्कारूय राकूक तांकां जालो.

तेदुसचे आमचे ते पूर्विकांनी केल्लेले पुण्याचें फल आज आमी भोगताय. तरीय फाय आमचे पिळग्यांक तें पुण्य भोगूक अवसर मेळतलें वें? आयचे पिळग्यांतुलीं कितलींकींच आज कोंकणी सोडून अन्य भासेंचेर प्रीति दवरूक लागल्यांय म्हळ्ळेलें दुखसत्य! असले आयचे साहचर्यारी चेरडूवांक कोंकणी भासेचेर तात्पर्य हाडोंवका म्हळ्ळेलें तपा सारके धरून आमी मुकार सोरका जावनु आसा. हांगा तं कोंकणी लोककाण्यांचें महत्व. पोरण्यो काण्यो आतांचे चेरडुवांनी चड कांय आयकलेल्यो आसचिनाय.

कारण आतांचे आवसूंक वा व्होळ्ळेम्मांक तसल्यो काण्यो कळनाय वा कळता तरीय वेळु नाशिल्यान सांगून दीनाय वा आतांचे प्रसारण माध्यमांचे अतिप्रसरण कारण चेरडूंवां आयकूक येनाय. असलें साहचर्य कारण त्यो काण्यो विसरून वचूनाशिल्लें रावूक लिखित रूपार करून दवरचें आवश्यक जाल्यां.

हाजे मुरथम श्रीमती वत्सला आर. शेणै (मिगेली मांय) हांनी एकडे केल्लेल्या बातीस काण्यांतुल्यो पन्नेरा लोक काण्यो 'होळ्ळम्मालो काण्यांचो पेटारो' नांवाचे पुस्तकांतुल्यान उजवाडांवचाक शेणै प्रकाशनाक जालेलें होड संतोषा कार्य जावनु लेकताय. आनी आतां श्रीमती सोमलता आर. पै (मिगेली अम्मा) हांनी एकडे केल्लेल्यो चोवदा काण्यो सचित्र उजवाडांवचाक जांवच्यांतु आमकां होड्डु संतोषु आसा. हांतूं एकडे केलेल्या काण्यांक बदलाव कसलोच हाडूनाशिल्लें संकलन केल्याय. ह्या पुस्तकाक सुंदर चित्रां रचून आकर्शक केल्लेले श्री. सुधाकर आर. पै (मिगेलो अन्नू) हांचे लागी हांव आभारी आसां. आनी हे पुस्तकाक अनुयोज्य प्रस्तावना वरोवनु दिल्लेले श्री. शरतचंद्र शेणै हांकांय हांव हृदयपुरसर उपकार सांगतां.

मिगेले सानप्रायेर ह्यो काण्यो सांगून दीवनु मिगेले अम्मान माका सावार खुश केल्या. मुकावेले पिळग्यांकय ह्यो काण्यो वाचूक अवसर मेळ्ळक जावनु हो संरंभ. ह्यो काण्यो पुस्तक रूपान उजवाडांवचाक साध्य केल्लेले सगटांकय शेणै प्रकाशनाले नांवान हांव उपकार सांगतां.

आनी ह्यो लोक काण्यो चेरडूवांक तशीचं म्हालगड्यांकय रुचतल्यो आनी प्रोत्साहन मेळतलें म्हूण आशा करून आमी हो पुस्तक वाचकांचे मुकार संतोषान दवरताय.

**- सूर्या अशोक**

शेणै प्रकाशन




# समर्पण

ह्यो काण्यो
सांगून दिल्लेले
मिगेले अम्माक, मिन्नक्काक,
होळ्ळे होन्नेक, राजाक
आनी रुक्मिणीक
उडगास करून
कोंकणी भासेक राकून
हाडलेल्या पूर्विकांक
समर्पण करतां.

सोमलता आर. पै

## भुरगेपणाच्या आंगणांत...

कोंकणी लोकवेद सांबाळून दवरच्या कामांत आतां केवल व्यक्तींच न्हय, थोड्यो संस्थोय सक्रिय जाल्याय. लोकगीत, लोककाण्यो आदी उडगास आसलेल्या म्हालगड्यांक भेटून वा तांकां आपोवनु हाडून, तांच्या गायनाचें कथनाचें ध्वनिमुद्रण करून मागीर तें सर्व पुस्तक रूपान संकलन संपादन करून उजवाडा आयल्यां. म्हण्यो, हुमाणीं, वाक्प्रचार आदीय उजवाडा हाडल्यां. संबंदी विषयांचेर थोड्यांनी सोद वावर केला आनी तेंय बी चड ऊणे प्रकाशित जाल्यां. केरळच्या कोंकणी लोकवेदाची सामान्य वळख आनी माहिती दिवपी एक लघु पुस्तक (लोकधन) म्हजेंय म्हूण आसा.

जाल्यार हांवें आतां मेरेन आयकूनातिल्ल्यो सुमार लोककाण्यो ह्या संग्रहांत माका वाचूक मेळ्ळ्यो म्हूण खूब आनन्द जाला. मात्र न्हय हें पुस्तक **'आमगेल्यो लोककाण्यो'** हांवें आज मेरेन वाचलेल्या पळयल्ल्या कोंकणी लोककथा संग्रहां पैकीं बरेंचशें वेगळें जावनु दिसल्यां. ह्या पुस्तकाचें लक्ष्य केवल 'लोककाण्यो सांबाळप' न्हय आसून लोककाण्यांचो सक्रिय, सजीव आनी सप्रेम प्रचारूच म्हूण व्यक्त जाता. ह्यो काण्यो भुरग्यांक तांचे आवयकडल्यान वा आज्येकडल्यान कश्यो मेळताल्यो, चड ऊणे तेच वरी उपाट मायेमोगान, घरगुत्या उतरांनी ह्या संग्रहांत समाविष्ट जाल्याय. कथनमाधुर्याचो ऊणाव दूरा करूक म्हूण आसाय पाना पानावेलीं देखदिणी रेखाचित्रां. काण्यांतुले योग्य संदर्भ सरस आनी कुशल चित्रांनी अशी सजयल्याय दिकून सगल्योय काण्यो प्रत्यक्ष आवय समक्षांतूच आयकिल्ले वरी दिसतलें. म्हजेय बाबतींत अशी जाल्यां. पुस्तक वाचून सरतना हांतूं चित्रायलींच ना असलीं थोडीं चित्रां, भुरगेपणाचीं, म्हजे अंतर्मनांत झळकलीं. आनी एक मुखामळ, म्हजेच सर्गेस्त आवयचें, म्हज्या दोळ्यां मुखार उदेलें. पुस्तकाच्या आनीकय साबार वाचकांक समान अणभव मेळतलो म्हूण माका विश्वास मात्र न्हय खात्रीच आसा!

देवा परमात्म्यान आवसूंक सृष्टी केल्यो खंय, संवसारांत सगलेय कडेन आपण्यालें हात बोट फाव तशें पावना म्हणून! जगांत आवसूचें महत्व केदें कितलें म्हूण समजुपी समजावपी म्हणी ही. आवसूलो मोग जितलो सरळ आनी सुलभ, तितलोच तो अप्रूप आनी अनुपम. ताका तुला ना म्हळ्यार नाच. आनी ताचे फाटल्यान कसलेंच म्हूण एक कारणय नासता. निमित्त वा हेतू, अट वा शर्त, न्याय वा युक्ती, आशा वा प्रतीक्षा असलें कसलेंच नासता, किसकूट लेगीत. आनी ती ममता केन्नाच म्हूण आटून वचय ना. येदीशी ऊणे लेगीत जायना म्हणचेंच वास्तव.

त्या मोगाक लागून सुमार वेगळींय कार्यां आवसूकडल्यान मेळताय. भास मेळता. भोंवतणेची,

संवसाराची वळख, माहिती मेळता. बर्या वायटाचें ज्ञान मेळता. आमी हासूक शिकताय लेगीत खरेपणीं तिचेच कडल्यान! आमचे खातीर ती गींत म्हणता, आनी काण्योय सांगता. ते गींत खंयचे? त्यो काण्यो खंयच्यो? जे गींत आनी ज्यो काण्यो तिका तिचे आवयकडल्यान आनी आज्येकडल्यान मेळ्ळे तेच गींत, त्योच काण्यो ती आपल्या भुरग्यांक आनी मागीर भुरग्यांल्या भुरग्यांक वांटून दिता, ओतून दिता. आमी लोकगीत म्हणचे हेच. आमी लोककाण्यो म्हणताय त्यो ह्योच!

म्हणतना लोकवेद सांबाळून दवरप हाचो अर्थ आवयमोग सांबाळून दवरप असोच जाता. आनी मोग सांबाळप म्हळ्यार कितें? इतर धनसंपदा सांबाळपा वरी न्हय तें. एकठावप न्हय कार्य. उरफाटें, वांटप आनी विर्कप! हे वरी आमी लोकवेदूय सांबाळतलीं जाल्यार तो चड चड जाणांकडे चडांत चड पावोवपाचें काम जाय करूक.

हेंच एक धन्य ध्येय ह्या पुस्तका फाटल्यान उठून दिसता. श्रीमती सोमलता पैन ह्यो काण्यो कितल्याच वर्षांनी आपल्या मना काळजांत राकून दवरल्यो. जे तांचे आवसून तांकां ह्यो सांगून दिल्यो तिगेल्या तेजिष्ट उडगासा सहित राकून दवरल्यो. आपल्या भुरग्यांक आनी नातरांक प्रती एक पावट ह्यो सांगून दितनाय ताग्नी आपण्याक मेळ्ळो तो आवयमोग सांबाळपाचें धन्य कार्यच केल्यां. आतां परतून ह्यो पुंजायतनाय आपल्या भुरगेपणाची स्मरणा घेवनु आपल्या मनांत स्पष्ट उदेलेल्या आवय सहित जायत्यांचो उडगास ताग्नी मुद्दम हांगा केलाय.

काण्यो वेंचून संकलन संपादन आनी लिप्यंतर केलेले श्रीमती सूर्यान आपल्याय उतरांनी आवयची, आवयमोगाची आनी भुरगेपणाची याद घेतल्या. अनुयोज्य, अर्थपूर्ण आनी भावनात्मक चित्रांनी हें पुस्तक अत्यंत आकर्षक केल्यां श्री. सुधाकर पैन, जो श्रीमती सोमलता पैलो व्हडलो पूत आनी श्रीमती सूर्या अशोक हांचो म्हालगडो भाव. काण्यांची रुची घेवनु, रसलीन जावनु सानन्द रचलेल्या ह्या चित्रांचे सुंदरायेंत तागेलो भुरगेपणाचो उडगास, आवयकडलो मोग आनी आवय भाषेंतुल्या ह्या अप्रूप काण्यांकडली ओड थळथळता. DIMENSION आनी PERSPECTIVE हांचे नदरेन हांतूलीं थोडीं चित्रां खास वेगळींचशीं आसाय. चित्रपट उतरावळेन HITCHCOCK ANGLE म्हणताय तें लेगीत एकेकदां वापरल्यां.

ह्या प्रकारीं सानांकय व्हडांकय एक वरीच आवडपी, एकवरीच उपयोगप्रद असलें हें संकलन उत्तम रूपान तयार केलेल्यांत ह्या तेगांय जाणांक परबीं कितलींय दिवं चड जावंचींनाय! ते वरी महत्वाचो, अर्थपूर्ण आनी धन्य वाव्र हो. कोंकणी लोककाण्यांच्या प्रचाराच्या ह्या वावराक आमी सर्वांनी आत्मार्थ रूपान, साध्य त्या सर्वय प्रमाणे फाटबल दिवूंया.

**- शरतचंद्र शेणै**

# मांडावळ

## कायळो आनी गुरबजी

एकडे एकु कायळो आशिल्लो. एकडे एकि गुरबजी आशिल्ली. तीं दोगांय होडलीं मित्रां आशिल्लीं.



एक दिसा कायळो आनी गुरबजी एकडे जावनु शेण मेण पुंजांवचाक गेल्लीं. कायळ्यान शेण पुंजायलें. गुरबजेन मेण पुंजायलें. कायळ्यान शेणा घर केल्लें. गुरबजेन मेणा घर केल्लें.

एक दिसा कायळ्यान सांगील्लें- 'होडलें एक वोत येवो, गुरबजेलें घर कोळनु* वचो.'

तशीच जालें. होडलें वोत आयलें. गुरबजेले घराचो मुल्लो* कोळनु गेल्लो. हें दिकून गुरबजेनय सांगीलें- 'होडलो एकु पावसु येवो. कायळ्यालें घर

*कोळनु- वितळून, Melt *मुल्लो- Corner

होळनु वचो.'

तशीच जालें. होडलो एकु पावसु आयलो. कायळ्यालें शेणा घर होळनु गेल्लें. कायळो पावसांतु तिमून फुगून शींयांन कडकडेवनु गुरबजेले घरकडे गेल्लो. ताणे तिगेले कवडारी खटखटायलें- टकटक टकटक!

'गुरबजे गुरबजे, एक कवड काडी. मिगेलें घर होळनु गेल्यां. एक कवड काडी.'



हें आयकून गुरबजेन सांगीलें- 'राब कायळ्या, हांव मिगेले पिल्लांक वाडून येतां.'

कायळो भायर राबून कडकडेलो. उणे घडी वचानिक कायळ्यान दुशेरी कवडारी खटखटायलें- टकटक टकटक!

'गुरबजे गुरबजे, एक कवड काडी.'

हें आयकून गुरबजेन सांगीलें- 'राब कायळ्या. हांव मिगेले पिल्लांक निदावनु

येतां.'

उणे घडी जावनु कायळ्यान मागीरीय कवडारी खटखटायलें- टकटक टकटक!

'गुरबजे गुरवजे, एक कवड काडी.'

गुरवजेन सांगीलें- 'राव कायळ्या, हांव मिगेले वामणाक वाडून येतां.'

मागीरीय कायळ्यान कवडारी मारलें- टकटक टकटक!

'गुरबजे गुरबजे, एक कवड काडी.'

गुरबजेन सांगीलें- 'राब कायळ्या, हांव जेवनु येतां.'

'गुरबजे गुरबजे, एक कवड काडी.'

तशी गुरबजेन कवड वाकतें केल्लें. तिमून कोल्लो जालोलो कायळो भितरी चडलो.

गुरबजेन कायळ्याचे लागी निमगीलें- 'खंय कायळ्या तूं पडतलो? हांगा स्थायु ना मू.'

कायळ्यान सांगीलें- 'हांव वासरेंत* पडन.'

हें आयकून गुरबजेन सांगीलें- 'अय्यो! वासरी पडतली मू!'

'जाल्यार हांव वासर्यारी पडन.'

'अय्यो! वासारो पडतलो मू!'

'जाल्यार हांव चायपांतु पडन.'



*वासरी- रांदची कूड, Kitchen

'अय्यो! चायप पडतलें मू!

'जाल्यार हांव पाळ्ळया पोंदाक पडन.'

'अय्यो! पाळ्ळें पडतलें मू!'

'जाल्यार हांव पाळ्ळयांतु भितरी पडन.'

'हां, जाल्यार तशी जावो कायळ्या. तूं पाळ्ळयांतु पड. मिगेले पिल्लांक कूट* जातलें.' गुरबजेन सांगीलें.





तशी कायळो गुरबजे पिल्लांचे ओटू पाळ्ळयांतु पडलो. तो तिमून आशिल्लो आनी शींयान कडकडेतालो. तें देखून ताका हुनसाणी घेंवचाक एक करट्यांतु एदो इंगाळो जाय म्होणु ताणे गुरबजे लागी सांगीलें.

गुरबजेन ताका हून इंगाळो हाडून दिल्लो. आनी ती पाळ्ळया पोंदाक निदेंवचाक पडली. मदराती जांवचानिक कायळ्याक भूक लागली. ताणे गुरबजेले एक पिल्लाक इंगळ्यार भाजून खेल्लें. कुटुस जावनु सोवदु आयकून गुरबजी जागी जाली. तीणे निमगीलें 'इत्तें कायळ्या तू खाता?'

तावळी कायळ्यान सांगीलें 'सबाव गुरबजे. म्हांतारायेन दिल्लेले दोनी चोणे तं.'

*कूट- सागात दीवप, Keep company



'दोन माकाय दी.' अशी खंय गुरबजी निमगीता.

'सरले मू!' खंय कायळो सांगता.

गुरबजी नुतोच निदेली. उणे घडी वचानिक कायळ्यान दुशेरे पिल्लाक इंगळ्यार भाजून खेल्लें. कुटुस जावनु सोवदु आयकून गुरबजी जागी जाली. तीणे निमगीलें- 'इत्तें कायळ्या तूं खाता?'

तावळी कायळ्यान सांगीलें- 'म्हांतारायेन दिल्लेले दोनी अठाणे'

'दोन माकाय दी.' अशी खंय गुरबजी.

'सरले मू!' खंय कायळो.

गुरबजी निदेली. उणे घडी वचानिक कायळ्यान तिसरे पिल्लाक इंगळ्यार

भाजून खेल्लें. कुटुस जावनु सोवदु आयकून गुरबजेन निमगीलें- 'इत्तें कायळ्या तूं खाता?'

तावळी कायळ्यान सांगीलें- 'म्हांतारायेन दिल्लेले दोनी भीमूक.'

'दोन माकाय दी.' अशी खंय गुरबजी.

'सरले मू!' खंय कायळो सांगता.

गुरबजी निदेली. तशी कायळ्यान एकेक पिल्लाक भाजून खेल्लें. चोणे, अठाणे, भीमूक, चवळी सगट म्होणु सांगून पिल्लांक खावनु कायळ्यान गुरबजेक फटयली.



फाल्लें जांवचानिक कायळो उटावनु नुतोच उबून गेल्लो. गुरबजी नीद जावनु उटायली. वासरेंत गेल्ली. दूद कडोवनु दवरलें. शीत केल्लें, उकरी* केल्ली. हापोळु तळ्ळो. पिल्लां गूणी आळायने* केल्लें. न्हांवचाक उदाक तापयलें. तेल, आंगूटी* सगट व्होरनु दवरलें. आनी पिल्लांक काडूक वचून चोयी! पाळ्यांतु पिल्लां नाय! गुरबजेक रडणें आयलें. ती आखाड्यांतु वचून बेसून जायतें रडली. तावळी तशीणान एकि म्हांतारी वताली. गुरबजी रडता तीणे दिकीलें. तीणे निमगीलें- 'इत्याक गुरबजे तूं रडता?'

गुरबजेन रडता रडताच जालेलीं कायरीं सगट सांगीलीं- 'मिगेले पिल्लांक त्या दुष्ट कायळ्यान खेल्लीं!'

---

*उकरी- सुक्की रांवदय, Curry *आळायने- Baby food *आंगूटी- आंगसें, Towel

'तें वें कायरें? पिल्लांक परतून मेळूक वाट आसा. हांव सांगून दितां चोय. तूं फाल्याक कायळ्यांक सग ब्राह्मणाक सांग. कायळीयांक सग सिवासनीक सांग. आनी ते कायळ्याक पोट भोरनु वाडी. खावनु खावनु पोट भोरनु ताका चांग नीद येतली. तावळी...' म्हांतारायेन गुरबजेले कानांतु पुसपुसेलें.

गुरबजेक संतोषु जालो. तीणे तशीच केल्लें. कायळे सगट ब्राह्मणाक आयले. कायळीयो सर्वय सिवासिनीक आयल्यो. सगटांकय गुरबजेन पोट भोरनु वाडलें. तें कायळ्याक मात्र भोरनु भोरनु वाडलें. खावनु खावनु ताका पोट जड जावनु उटांवचाक जायना. नीद येता. गुरबजेन ताका पोडूक मांदूरी घालनु दिल्ली. तो थांगा पडुन निदेलो. बाकी सर्व कायळे आनी कायळीयो उबून गेल्यो.





गुरबजेन रानणींतु एकु कायलातो हून कोरूक दवरलोलो. कायळ्याक दोळे लागूनिक तीणे तो तापल्लो कायलातो हाडून कायळ्याचे पोटारी दवरलो. ताजें पोट फुटून पिल्लां सगट बुरु बुरु जावनु भायर आयलीं. गुरबजेक संतोषु जालो. तीणे तांकां सगटांकय व्होरनु न्हाणोवनु, खाण खावोवनु निदावनु घालीं.

ते मेल्लेले कायळ्याक कोयरा राशीर घालो. तशी गुरबजी आनी पिल्लां सुखान राबीलीं.



## शेणबावलें आनी मेणबावलें

एकडे एक शेणबावलें आनी एक मेणबावलें आशिल्लें. तांनी दोगांय होडलीं मित्रां तं. एक दिसा तीं दोगांय मेळनु तळियेंत न्हांवचाक गेल्लीं. शेणबावल्यान मेणबावल्याचे लागी सांगीलें- 'आद्य तूं न्हांवनु यो. मागीर हांव न्हांवचाक वचन.'



तशी मेणबावलें न्हांवनु येवनु पाडीक बेसलें. मागीर शेणबावलें तळियेंतु न्हांवचाक देंवलें. तळियेंतु देंवलेलें शेणबावलें शेणा शितोडो* जावनु गेल्लें. शेणबावलें शितोडो जाल्यां दिकून मेणबावल्याक रडणें आयलें. ताणे रडून तळियेचे लागी निमगीलें- 'तळिये तळिये, मिगेलें शेणबावलें माका दी!'

तळियेन तें आयकीलें. जाल्यार शितोडो जालेले शेणबावल्याक परतून दिंवचाक

*शितोडो- शेणा उदाक, Dung water

तिका जातलें वें? ना न वें? तें देखून तळियेन एकु खूरु* दिल्लो. खुरु घेवनु मेणबावलें चमकीलें.

वचे वाटेरी एकडे एक अच्चारी* बेसून मांचो करता दिकीलें. मेणबावल्याक रस्पती दिसली. तें थांगा दंद चोंवचाक राबीलें. मांचो करतना अच्चार्याक एकु खूरु पावलोना. ताजे लागी तिनीच खूर आशिल्ले. आनी इतें करतलो म्होणु चोवनु राबलेले वेळार मेणबावल्यान ताजे लागी निमगीलें- ‘अच्चार्या अच्चार्या, तुका मांचो कोरूक खूरु जाय वे?’



अच्चार्यान खूरु जाय म्होणु सांगीलें. मेणबावल्यान हातांतुलो खूरु ताका दिल्लो. अच्चार्यान खूरु तासून मांचाक घालो. हें दंद सग मेणबावलें बेसून चोयलें. दंद सग जांवचानिक मेणबावल्यान अच्चार्याचे लागी निमगीलें- ‘अच्चार्या अच्चार्या, मिगेलो खूरु माका दी!’

आनी इत्तें करतलो? खूरु तासून मांचो कोरनु जालो मू! तावळी अच्चार्यान एकु खूंटु काडून मेणबावल्याक दिल्लो.

*खूरु- Furniture leg *अच्चारी- मेस्त, Carpenter

तो खूंटु घेवनु तें संतोषान गेल्लें. सल्प मुकारी वचानिक एकु खोणतल्लो वोंय बांदीता. मेणबावलें वोंय बांदूचें चोंवचाक राबीलें. वोंय बांदून बांदून तलवाक पांवचानिक एकु खूंटु पावलोना. तावळी मेणबावल्यान ताजे लागी निमगीलें- 'खोणतल्या खोणतल्या, तुका खूंटु जाय वे, वोंय बांदूक?'



'व्हय व्हय, दी, खूंटु दी.' म्होणु सांगून खोणतल्यान खूंटु घेवनु वोंय बांदीली. हें सगट राबून चोवनु जावनु मेणबावल्यान निमगीलें- 'खोणतल्या खोणतल्या, मिगेलो खूंटु माका दी!'

तें आयकून खोणतल्यान एकु पोरणो खूंटु काडुन दिल्लो. पोरणो खूंटु घेवनु मेणबावलें चमकीलें. वचे वाटेरी एक म्हांतारायेक दिकीली. ती आंब्या पाल्ले जळोवनु उजो कोरनु पोळे काडूक बेसल्या. हें दिकून मेणबावल्यान तिजे लागी निमगीलें- 'म्हांताराये म्हांताराये, तुका रानणींतु दवोरनु उजो कोरूर खूंटु जाय वे?'

म्हांतारायेन जाय म्होणु सांगीलें. आनीक खूंटु घेवनु रानणींतु घालनु उजो



कोरनु कायली तापयली, पोळे काडले. हो वेळु सगट मेणबावलें लागी बेसून चोयलें. सग जांवचानिक ताणे निमगीलें- 'म्हांताराये म्हांताराये, मिगेलो खूंटु माका दी!'

खूंटु जळोवनु पोळे कोरनु जाले. आनी कशी कि ताका तो पोरणो खूंटु पोरतून दितली? तें देखून तीणे ताका दोन पोळे दिल्ले.

पोळे घेवनु मेणबावलें चमकीलें. वचे वाटेरी उणेच चेरडूवां पोंदु खेळताय दिकीलें. ताणे ते पोळे लागी आशिल्ले एक घरा पाक्यारी निपोवनु दवरले. आनी रस्पतीचो खेळु चोंवचाक जावनु मेणबावलेंय राबीलें. चेरडुवांलो खेळु जांवचानिक मेणवावलें पोळे काडूक म्होणु गेल्लें. चोंवचानिक इत्तें कीं? पोळे नाय! मेणबावल्याक रडणें आयलें. तागेले पोळे खंय गल्ले? कोणे खेल्ले?



अशी तशी चोंवचानिक पोळे व्हेल्याय विंदुरान म्होणु ताका मनांतु जालें. ताणे

विंदुराचे लागी निमगीलें- 'विंदूर विंदुरा, मिगेले पोळे माका दी!'

विंदुरु इत्तें करतलो? पोळे खावनु पोटांतु पावल्याय! ताणे एक घुमटें दिल्लें. मेणबावल्याक संतोपु जालो.

घुमटें वाजून तें चमकीलें. वचे हादीर ताणे एकु चिंचे रूक दिकीलो. तें रुकार चडून बेसून मेणबावल्यान गींतु म्होणूक आरांभीलें.

**शेणबावल्याचो शितोडो**
**शितोड्याचो खूरु**
**खूराचो खूंटु**
**खुंटाचो पोरणो खूंट**
**पोरणे खुंटाचे पोळे**
**पोळ्यांचें घुमटें**
डेंडें डेंडें डें...



खालाक रावून चोयताले चेरडूवांक मेणबावल्यालो गींतु आयकून रस्पती दिसली. तानींय तो म्होणूक आरांभीलें...

**शेणबावल्याचो शितोडो...**

## इक्रामते रायु

एकडे एकु रायु आशिल्लो. ताका सात जाण बायलो आशिल्यो. जाल्यारीय रायाक चेरडूवां नाय. तें देखून तो एक रानांतु तपस कोरूक गेल्लो.

थांगा एक सन्यासी बेसून तपस करता रायान दिकीलें. रायु सन्यासीक नमस्कार सांगून मुकारी राबीलो. रायाक दिकून सन्यासीन निमगीलें- 'इत्याक राया तूं रानांतु आयला?'

'माका चेरडूवां नाय देखून तपस कोरया म्होणु हांव रानांतु आयलां.' रायान सांगीलें.



तें आयकून सन्यासीन सांगीलें- ‘राया, तूं विचार काडनाका. तुका हांव एकु आंबो मंतरसून दितां. तो व्होरनु तुगेले बायलेक दी. ती आंबो खावो. तावळी तिका चेरडूं जातलें.’

रायान रावळारांतु परतून वचून ताका चड स्नेहु आशिल्ले धाकटे बायलेक आंबो दिल्लो. आनी रानांतु जालेलीं कायरीं सग सांगीलीं. हो आंबो खेल्यार चेरडूं जातलें म्होणूय सांगीलें.

आंबो खावनु चेरडूं? तिका हासु आयलो. तिणे तो आंबो खावनातिल्लें जनर्लांतुल्यांन भायर विंदीलो*.

रायान सांगलेलें सग भायर आंगण झाडताले दंदकारणीन आयकीलें.



*विंदीलो- उडयलो, Threw



धाकटे राणियेन विंदिल्लो आंबो तीणे काडून व्होरनु रायाले होडले बायलेक दिल्लो. आनी रायान सांगलेलीं कायरीं सगट राणियेचे लागी तीणे सांगीलीं. राणियेन आंबो तासून खेल्लो. ती गुरबीणी जाली. ती बाळांती जांवचाक वचो वेळ पावलो. धाकटे राणियेन सांगून वयजीणीन होडले राणियेले दोळे बांदीले.



तशी होडले राणियेक चांग एक चेल्या चेरडूं जालें. धाकटे राणियेक कुसंगायो आयल्यो. तिका जांवचें न वें आशिल्लें तें चेरडूं! चेरडाक वाडोवनु होडले राणियेन तशी आतां सूख भोगूका नाका! अशी आठोवनु ते दुष्टेन सांगून वयजीणीन ते चेरडाक व्होरनु शेणा राशीर घालो. आनीक होडले राणियेचे लागी चेरडूं मोरनु गेल्लें

म्होणु सांगीलें. तीणे व्हयीच म्होणु आठयलें.

शेणा राशीरी पडलेले चेरडाक घोणियेन उबारनु व्होरनु वाशी हिंडांत घालें. राती जांवचानिक महादेव आनी पार्वती तशीणान वतालीं. तांनी ते चेरडाक दिकीलें. झाडां, वाल्यो एकडे कोरनु तांनी एक पाळ्ळें बांदीलें. आनी तांतु ते चेरडाक निदावनु एकु वोरु दिल्लो. कोणेय येवनु ते चेरडाक व्होरु पर्यान ताजे तोणांतु एकेक थेंबो जावनु उदाक पडो म्होणु तो वोरु.

हेरदूसा एकि म्हांतारी राकूड पुंजांवचाक तशीणान वताली. तीणे चोंवचानिक एक चेरडूं थांगा एक पाळ्ळ्यांतु पडून रडता दिकीलें.





म्हांतारायेन ते चेरडाक घरकडे व्हेल्लें आनी वाड्डोवनु होड्डु केल्लो. म्हांतारेक जाल्यार प्राय जावनु येता. तें देखून तीणे ते चेल्याक उळदून सांगीलें- 'आरे पुता, तूं हांगाचे रायालो पूतु तं. तुका तुगेले धाकटे अम्मान शेणा राशीरी घालोलो तं. थांगा साकून तुका घोणियेन उबारनु वाशी हिंडांत घालो. थांगा साकून तं तूं माका मेळोलो.

हांवें तुका वाड्‌डोवनु आतां सोळा वर्षांचो केल्ला. आनी पुता, माका प्राय चड जावनु येता देखून तुका पोसूक मिज्यान कष्ट जाताय. तूं एक कायरीं करी. तूं राया लागी वच आनी कायरीं सांग.'

तशी तो रावळारांतु पावलो. सैनिकांनी ताका भितरी चडूक सोडलोना. तें देखून ताणे भायर राबून गींतु म्होणूक आरांभीलो-

**इक्रामते राया तुका**
**सात जाण बायलो**
**एकलेलें नांव नल्लायी**
**एकलेलें नांव मनमी**
**मनमीगेरी जालो माका**
**शेणा राशीर घालो**
**घोणियेन उबारनु व्होरनु माका**
**वाशी हिंडांतु घालो**
**म्हांतारायेन व्होरनु माका**
**सोळा वर्षांचो केल्लो.**
**डेंडें डेंडें डें!**



भितरी बेसल्ले रायान गींतु आयकीलो. ताणे सैनिकाचे लागी कोण गींतु म्हणता म्होणु चोवनु येंवचाक सांगीलें.

सोळा वर्षांचो एकु चेल्लो म्होणु ताणे चोवनु सांगीलें.

जाल्यार ताका तीन दुड्ड घाली म्होणु रायान सांगीलें.

सैनिकान चेल्याचे हातार तीन दुड्ड घाले. चेल्लो दुड्ड घेवनु घरकडे परतलो. ताणे जालेलीं कायरीं सगट म्हांतारायेचे लागी सांगीलीं.

हेरदूसाय अशीच वचून गींत म्हण म्होणु सांगून म्हांतारायेन ताका रावळारांतु पेटेयलो.

तेदूस गींतु आयकून रायान ताका भितरी उळदून हाडयलो. तूं कोण? खंय साकून येता? म्होणु रायान ताजे लागी निमगीलें. चेल्यान तावळी सग कायरींय सांगीलीं. तो रायापूतु म्होणूय, ताका शेणा राशीरी घालेलेंय, म्हांतारायेन व्होरनु वाडयलेंलेंय सग सांगीलें.

रायान म्हांतारेक उळदून हाडयली. चेल्यान सांगूचें सगटय सम वे म्होणु निमगून मनांतु केल्लें. रायाले धाकटे बायलेन केल्लेली करणी सगट म्हांतारायेन सांगून दिल्ली. रायान दोगांय बायलांक उळदून हाडयल्यो. अशी सगट चमकिल्लें वें म्होणु निमगीलें. तांनी दोगांनीय व्हय म्होणु सांगीलें.

रायाक पूतु मेळ्ळोलो होडलो संतोषु जालो. धाकटे बायलेक रावळारा भायर घाली. म्हांतारायेक लागी सान एक घर कोरनु तांतू राबयली. तशी रायु, होडली राणी आनी पूतु कोरनु सुखान राबीलीं.



## आळसी बायल



एकडे एकु बामूण आनी ताजी बायल आशिल्ली. ती बायल भो आळसी. कसलेंच दंद कोरन्ना. घर सगट बुरशें जावनु पडतलें. रांदिल्लीं आयदनां घासूनातिल्लीं कुळ्यांतु* तशी पडतलीं. ती कसलेंच दंद करना देखून बामणाक कोपु येतालो. एक दिसा ताणे तिका भायर घाली. ती देंवनु खंयकींच चमकीली.



*कुळ्ळें- Sink

राती जांवचानिक ती एक रानांतु पावली. रानांतुलो काळूक आनी सोवदु कारण तिका भय जांवचाक लागलें. तावळी ती एक रुका उंचारी चडून वेसली. थांगा बेसून ती निदेवनु गेल्ली.



रानांतुल्यान चोर वताले. तेवय तेच रुका पोंदाक येवनु बेसले. तांनी फारनु हाडलेलें सामान सगट वात्तें कोरनु मेजून वांटे घालूक लागले. ते वेळारी ती बायल जागी जाली. तीणे रुका मूणांतु साकून कसलोकींच सोवदु आयकीलो. ती खालाक चोयली. चोंवचानिक इत्तें कीं? चार चोर बेसून फारलेलें सामान वांटे घालताय! ती भीवनु कडकडेली. भयान करतना ती मुतून गेल्ली! तें, खालाक बेसूनाशिल्ले चोरांचे

मात्यार पडलें. ते भीवनु उंचारी चोयले. रुका उंचारी काळकांतु कोणेय बेसून आसा. भूत बि म्होणु लेकून ते चोर बोबाट घालनु धावनु गेल्ले.



तांगेली बोबाट आयकून तिका एक लागेन भय जालें. हालूनातिल्लें बेसून तीणे राती काडली. फालें जांवचानिक ती रुकार साकून खालाक देंवली. चोंवचानिक रुका मूणांतु भोरनु भांगार, वज्र सगट शिंवडून पडल्यां. भयान धावनु वतना चोरानी सोडून गेल्लेलें तें सग तीणे पुंजावनु काडून एक मोटांतु भरलें. आनी ती घरकडे परतली.

बामणान कवड वाक्तें कोरूनिक तागेली बायल राबून आसा. ताका कोपु आयलो. 'भायर घालेली न्हय तुका? मागीर इत्याक परतून आयल्या?' ताणे निमगीलें.

'हें चोयाय! हांवें इत्तें हाडल्यां म्होणु चोयाय!' तीणे मोट विसकळावनु

दाकोवनु सांगीलें. ताणे चोंवचानिक भोरनु दामु दुड्डु, भांगार, वज्र सगट आस्ा. तागेले दोळे विसविसेवनु गेल्ले. ताणे तिका संतोषान घरांतु चडयली. आनी तीं सुखान रावीलीं.



## भांगरा गेरशूल

एकडे एकु रायु आनी तागेलो मंत्री आशिल्लो. रायाक आनी मंत्र्याक एकेक धूवो आशिल्यो. दोगांकय खेळचे खातीर दोनी सान गेरशूलां रायान कोरोवनु दिल्लीं. राया धूवेक खेळूक एक भांगरा गेरशूल आनी मंत्र्या धूवेक एक रुप्या गेरशूल. दोगांय कोरनु केदणाय एक बांयचे लागी बेसून रेंव आसडून खेळतलीं.



तशी आसतना एक दिसा राया धूवेलें भांगरा गेरशूल बांयतुं पडलें. बांयतुं पडलेलें गेरशूल कशी कीं काडतलीं? राया धूवेक रडणें आयलें. बप्पान बि आयकिल्यारी...

तीणे आळता पेळतांतु चोंवचानिक थांगा लागी एकु म्हारां चेडो रावून खोणता दिकीलें. तीणे ताका उळदून सांगीलें- ‘म्हारा, मिगेलें भांगरा गेरशूल बांयतूं पडलें मू. एक काडून दिशी वे?’

म्हारान सांगीलें- ‘गेरशूल काडून दीवीन. जाल्यार तूं मिगेली बायल जांवका.’

म्हारान सांगलेलें आयकून राया धूवेन सांगीलें- ‘अय्यो! बायल जांवचाक नज, जाय जाल्यार अम्मा जायन!’

‘माका अम्मा नाका. तूवें मिगेली बायलच जांवका.’ ताणे हठ धरलें.

कशीच तें गेरशूल मेळ्यार पूरो आशिल्लें तिका. वेगळी वाट नातिल्यान तीणे बायल जायन म्होणु उत्तर दिल्लें. तावळी म्हारां चेडो बांयतूं देंवलो आनी राया धूवेलें भांगरा गेरशूल घेवनु उंचार आयलो.



उणेच काळ गेल्ले. राया धूवेक बारा वर्षां जालीं. म्हारा चेड्याक व्हारडीक करीन म्होणु उत्तर दिलेलें सग ती विसोरनु गेल्ली. तिका व्हारडीक कोरूक चांग एक राया पूतु सोदून काडलो. तांगेली व्हारडीक चमकीली.

राती जाली. रायु, राणी, राया धूव आनी तिगेलो बामूण माळियेरी निदेंवचाक पडलीं.



ते वेळारी तो म्हारु रावळारांतु पावलो. राया धूवेन ताका व्हारडीक करीन म्होणु उत्तर दीवनूय एक राया पुताक व्हारडीक केल्या. म्हाराक सामकीच कोपु आयलो. तो तांगेले रावळाराची, तांनी पडलेली माळी कोरांतूक लागलो. सोवदू आयकून राया धूव जागी जाली. तीणे अम्माक उळदून सांगीलें-

**'अम्मा अम्मा, म्हारु माळी कोरांतिता, कोरांतिता!'**

तावळी अम्मान सांगीलें-

**'न्हय गो धूवे, रानां वानां सळसळेताय सळसळेताय.'**

हें आयकून रायाधूव निदेंवचाक पडली. सल्प घडी वचानिक दुशेरी सोवदु

आयकूक पडता.

तावळीय धूवेन अम्माक उळदून सांगीलें-

**‘अम्मा अम्मा, म्हारु माळी कोरांतिता, कोरांतिता!’**

तावळी अम्मान सांगीलें-

**‘न्हय गो धूवे, केळचीं पानां पळपळेताय, पळपळेताय.’**



हें आयकून रायाधूव पडली. सल्प घडी वचानिक मागीरीय सोवदु आयकूक पडता.

अम्माक उळदून तीणे सांगीलें-

**‘अम्मा अम्मा, म्हारु माळी कोरांतिता, कोरांतिता!’**

तावळी अम्मान सांगीलें-

**‘न्हय गो धूवे, तेर्या पानां सरसरेताय सरसरेताय.’**

रायाधूव निदेंवचाक पडली. म्हारु माळी कोरांतून माळियेरी पावलो. थांगा आशिल्लो होडलो एकु फातोरु काडून ताणे राया हर्द्यारी दवरलो. वेगळो एकु राणियेचे हर्द्यारीय दवरलो. आनी तो राया धूवेक उटकरावनु चमकोंवचाक लागलो.

**‘चमक बाळे चमक, निदांतुले दोळे,<br>
बाळाचान चमकूक जायना<br>
गोमटेचे भारान करतना.’**



अशी गींतु म्होणु ताणे तिजे गोमटेक पडलेलें भांगार सग निसरावनु भाटियांतु* घालें. दुशेरीय गींतु म्होणु चमकोंवचाक लागलो.

**'चमक बाळे चमक, निदांतुले दोळे,**
**बाळाचान चमकूक जायना**
**कानाचे भारान करतना.'**



ताणे तिजे कानाक पडलेलें भांगार सग निसरावनु भाटियांतु घालें. मागीरीय गींतु म्होणु चमकोंवचाक लागलो.

**'चमक बाळे चमक, निदांतुले दोळे,**
**बाळाचान चमकूक जायना**
**कुरटाचे भारान करतना.'**

ताणे तिजे कुरटाक पडलेलें भांगार सग निसरावनु भाटियांतु घालें. तशी गींत म्होणु गींत म्होणु ताणे तिजे आंगार पडलेलें भांगार सगट निकळावनु भाटियांतु भरलें. तिका चमकोवनु व्होरनु एक होडले पेटेंतु निदायली. धापणे धांपून कदियातु घालो, चावी केल्ली. ती पेट आनी ती भाटी न्हंयचे तडीर व्होरनु दवरली. आनीक तागेले सूण्याक पेट राकूक बेसयलें. तो म्हारु खोणूक गेल्लो. पेटेंतु पडलेले व्होकलेन सूण्या बोब आयकीली. तीणे गींतु म्होणूक आरांभीलो

**'पेट्या सूण्या रे तुका**
**कातळी घालीन**

*भाटी- खोटली, Basket

**पुनवे चंद्रु उदेवनु आयला**

**पेट उगळी.'**

कातळी म्होणु आयकून सूण्याक तोणांतु उदाक भरलें. ताणे धरारी पेट वाकती केल्ली. राया धूव पेटेंतु साकून भायर आयली. आनी तीणे वचून न्हंयतू उडकी मारली.



हें दिकून सूणे भिल्लें. म्हारु परतून आयल्यारी ताका कोपान दिमशी मारतलो म्होणु भीवनु ताणेय मारली उडकी न्हंयतू.

म्हारान परतून पावनु चोंवचानिक पेटेंतु राया धूवय ना, राकूक बेसयलेलें सूणेय ना. न्हंयचे पाडीक तांनी मोरनु पडल्यांय दिकीलें. आनी ताणे वांचून कांय कायरीं ना म्होणु म्हारानय मारली उडकी न्हंयतू.

रावळारांतु व्होरेतु जागो जालो. उटावनु चोंवचानिक रायु राणी मोरनु पडल्यांय दिकीलें. तागेले व्होकलेक दिकूक ना. तिका सोदून तो भायर देवलो. सोदून सोदून तो न्हंयचे पाडीक पावलो. थांगा व्होकलेलें भांगार भरलेली भाटी दिकीली. न्हंयचे उदका लागी तागेली व्होकल, सूणे आनी म्हारु मोरनु पडल्यांय दिकीलें. आनी ताणे वोरनु इत्तें कायरीं म्होणु आठोवनु ताणेय मारली उडकी न्हंयतूं.

एदे दीस वचानिक ते न्हंयचे पाडीक चारी रूक किरलेले. राया पूतु आनी राया धूव चांपो धुंपो जावनु किरलेलीं. म्हारु आनी सूणे कारो आनी वूरो जावनु किरलेलीं. ते विषा रूक.

**रायु-राणी, चांपो-धुंपो चांपो-धुंपो!**

**म्हारु-सूणे, कारो-वूरो कारो-वूरो!**

अशी भांगरा गेरशूला काणी.



# बिल्ये काणी

एकडे एकि बिल्ली आशिल्ली. ती एक दिसा फालेफाल्यार उटायली. न्हाली आनी विंदुराक भाजून खेल्लो. मागीर ती एक वोणीचे तोंडार वचून बेसली.



ते वेळार तशीणान एकलो पोळे विकूक घेवनु वतालो. ताणे बिल्लेक दिकीली. ताणे निमगीलें- 'बिल्लबिल्ले नी एंदिनिविडे इरिकुन्नू?' तूं इत्याक हांगा बेसल्या? म्होणु तो निमगीता.

तावळी बिल्लेन सांगीलें- 'मुन्नेरम कुळिचु. एलि पोरिचु तिन्नु. रंडु दोशा ता.' तें म्हळ्यारी- तिन्नीय वेळारी न्हाल्ली. विंदुरा भाजून खेल्लो. दोनी पोळे दी- अशी तीणे ताजे लागी निमगीलें. ताणे तिका दोनी पोळे दिल्ले.

तेंवय जावनु ती सल्प मुकार सोरनु बेसली. ते वेळार तशीणान एकलो कोव्बू

विकूक घेवनु वतालो. ताणे बिल्लेक दिकीली. ताणे निमगीलें- ‘बिल्लबिल्ले नी एंदिनिविडे इरिकुन्नू?’ तूं इत्याक हांगा बेसल्या?

तावळी बिल्लेन सांगीलें- ‘मुन्नेरम कुळिचु. एलि पोरिचु तिन्नु. रंडु करिंबू ता.’ तें म्हळ्यारी तिन्नीय वेळारी न्हाल्ली. विंदुरा भाजून खेल्लो. दोनी कोब्बा कुटके दी. अशी तीणे ताजे लागी निमगीलें. ताणे तिका दोनी कोब्बा कुटके दिल्ले.

तेवय घेवनु ती सल्प मुकार सोरनु बेसली. ते वेळार तशीणान एकलो गोड विकूक घेवनु वतालो. ताणे बिल्लेक दिकीली. ताणे निमगीलें- ‘बिल्लबिल्ले नी एंदिनिविडे इरिकुन्नू?’ तूं इत्याक हांगा बेसल्या?

तावळी बिल्लेन सांगीलें- ‘मुन्नेरम कुळिचु. एलि पोरिचु तिन्नु. रंडु शरकरा ता.’ तिन्नीय वेळारी न्हाल्ली. विंदुरा भाजून खेल्लो. दोनी गोडा कुटके दी अशी म्होणु तीणे ताजे लागी निमगीलें. ताणे तिका चारी गोडा कुटके दिल्ले.



हें सर्वय घेवनु ती एक साळेचे परमांतु* गेल्ली. थांगा तीणे घर बांदीलें. घर बांदीता बांदीताच ती एकु गींतु म्हणताली-

*परम- आंगण, Compound

**कोब्बाचे खांबे केल्ले**
**गोडाचें वात्तें* केल्लें,**
**पोळ्यांनी घर शिंवलें**
**डेंडें डेंडें डें!**



तिगेलो गींतु आयकून साळेंतुलीं चेरडूवां धावनु पावलीं. बिल्लेक आनी तीणे बांदिल्ले घर दिकून तांकां रस्पती दिसली. तांनीय तो गींतु म्होणु भोंवचाक आरांभीलें-

**कोब्बाचे खांबे केल्ले**
**गोडाचें वात्तें केल्लें,**
**पोळ्यांनी घर शिंवलें**
**डेंडें डेंडें डें!**

*वात्तें- पाश्टाचो वासो, Rafters

## मुंबुरा काणी

एकडे एकि बायल मुंबूर आशिल्ली. एक दिसा ती चांग कोरनु न्हाली. पाट्या कापड न्हेसीली. हातरपाट्या येद्दे रुंदायेन काजल सुयलें. चंद्रमा येद्दो कुंकुमेचो तीळो केल्लो. आनी भायर भोंवचाक देंवली.



तशी वचे वेळारी एक कोंबराक* दिकीलो. कोंबरान तिजे लागी निमगीलें-

'मुंबुरा, तूं अशी पाट्या कापड न्हेसून, हातरपाट्या येद्दे रुंदायेन काजल सूवनु, चंद्रमा येद्दो कुंकुमेचो तीळो कोरनु शिंगारनु खंतय वचाक कीं भायर सरल्या?'

मुंबरान सांगीलें- 'कोण पळे माका जोडून पोटाक घालता. हांव ताजे लागी राबूक वतां.'

हें आयकून कोंबरान सांगीलें-

---

*कोंबर- कुंवोर (रेंवें मालें करपी मूस), Potter wasp

‘अय्यो! मिज्यान नज तुका पोसूक. मिगेलें घर रेंवेचें. तांतू रावूक तुका जावन्ना. तूं आनी खंयीच वच.’



मुंबूर मागीरीय मुकार सरली. वचे वाटेर एक काळे भोवराक दिकीलो. ताणेय मुंबुराचे लागी निमगीलें-

‘मुंबुरा, तूं अशी पाट्या कापड न्हेसून, हातरपाट्या येद्दे रुंदायेन काजल सूवनु, चंद्रमा येद्दो कुंकुमेचो तीळो कोरनु शिंगारनु खंतय वचाक कीं भायर सरल्या?’

मुंबरान सांगीलें- ‘कोण पळे माका जोडून पोटाक घालता, हांव ताजे लागी राबूक वतां.’



हें आयकून काळे भोवरान सांगीलें-

'अय्यो! मिज्यान नज तुका पोसूक.' काळे भोवरानय हात फाफुडले. 'मिगेलें खाण तुगेल्या वरी रगत न्हय. हांव म्होवु तं पीवप. तूं आनी खंयीच वच.'

हें आयकून ती मागीरीय मुकार सरली. वचे वाटेर एक मनीषु वता दिकीलें. ताणेय मुंबुराचे लागी निमगीलें-

'मुंबुरा, तूं अशी पाट्या कापड न्हेसून, हातरपाट्या येद्दे रुंदायेन काजल सूवनु, चंद्रमा येद्दो कुंकुमेचो तीळो कोरनु शिंगारनु खंतय वचाक कीं भायर सरल्या?'

'कोण पळे माका जोडून पोटाक घालता, हांव ताजे लागी राबूक वतां.' तीणे सांगीलें.



हें आयकून मनीषान सांगीले-

'जाल्यार चमक मिजे ओटू! हांव तुका खाण घालीन.'

तशी ती ताजे ओटू तागेले घरकडे गेल्ली. राती मनीषान निदेंवचाक पडलेले वेळार मुंबुराक भूक लागली. तीणे नुतोच मनीषाले गालार वचून बेसून सूव चडयली. आनी रगत पिंवचाक वचे वेळार मनीषाक दुकलें. ताणे गालार एक थापट मारलें. पेटू घेवनु ती मोरनु गेल्ली.



सहाय करतल्याक दुकयल्यार अशी आसतलें फल.

## एकादशीचो कायळो

एकडे एकु कायळो आशिल्लो. एक दिसा एकादशी आशिल्ली. तेदूस तो एक तळियेंत वचून चांग कोरनु न्हालो. एकादशीचे दिसा वोरवा* खाण खांवचाक नज. तें देखून तो वेगळें कसलेंय फळ बि मेळता वे म्होणु सोदून गेल्लो.

ताणे एकि केळी दिकीली. तिजेरी एकु केळ्यां घडायु आशिल्लो. ताजेर एक केळें पिकून राबलेलें. तें पिकल्लें केळें खांवचाक जावनु तो ते घडायारी वचून बेसलो. ताणे ते केळ्यारी चोंची मारलेलीय तें पिकल्लें केळें खालाक पडलें. तो भुंयचेर देवलो आनी केळें खांवचाक गेल्लो. तावळी रेंवेंतु पडलोलो एकु कांटो तागेले पायाक तोपलो. ताका सामकीच दुकलें.



*वोरोव- तांदूळ, Rice

चमकूक जायना. तें देखुन तो एक वोयदाक दिकूक गेल्लो. कशीच कोरनु उबून वचून तो वोयदाथंय पावलो. वोयदाचे लागी कायरीं सांगीलीं.

'वोयदा, मिगेले पायाक एकु कांटो तोपलो मू. माका सामकीच दुकता. तो काडूक सहायु कोरका.'

वोयदान सांगीलें- 'तूं एक कायरीं करी. हांव तो कांटो निकळावनु दितां. तें जातरी तूवें थांगा वोकद लांवका. दूरा रानांतु एक वकदा फळा रूकु आसा. ताजेरी एक फळ पिकून राबलेलें आसा. तूं त काडी आनी झोरोवनु कांटो लागल्ले स्थायारी सारय.'



तशी कायळो फळ सोदून गेल्लो. ताका पिकल्लें फळ मेळ्ळें. तें झोरोवनु लांवचाक जावनु एक बांयचेरी वोचून बेसलो. झरयता झरयता फळ गडगडेवनु बांयतू पडलें. आनी इत्तें कोरतलो रुकारी वेगळें पिकल्लें फळ ना. तें देखून वांयतूं देंवनु काडनातिल्लें वाट ना. तशी तो फळ काडूक जावनु बांयतू देंवलो. भायर आयलोलो तो भांगराचो जावनु आसा. तो संतोषान **का का** कोरनु उबून वता चोवनु वेगळे कायळ्यांक अतिशय जालो. हें कशी जालें? काली पर्यान काळोकाळो आशिल्लो तो आजी भांगराचो जावनु उबून भोंवता! सगटय ताकाच चोवनु रावीलीं.



वेगळे एक कायळ्याकय भांगराचो जांवका म्होणु दिसलें. ताणे वोचून भांगरा कायळ्याचे लागी कायरें सगट निमगून मनांतु केल्लें. भांगराचो जांवका म्हळ्ळेले आशेन तोवय तशीच सगट कोरूक भायर सरलो.

एकादशी न्हय जालेले द्वादशीक तो एक कुसडे खळियेंतु वचून बुड्डून आयलो. एक केळीचेर केळीं खांवचाक बेसलो. ताजेर पिकल्लें केळं ना. तें देखून ताणे एक हरवें केळें चोंची मारनु चोंची मारनु खालाक घाल्लें. आनी तें खांवचाक म्होणु तो खालाक देंवलो. खालाक भोंवलेले तागेले पायाक एकु सरी कांटो तोपना. तें देखून ताणे खंय खंय सोदून एकु कांटो हाडलो. आनी तो जाय म्होणु पायाक तोपीलो. मागीर दुकता दुकता म्हणून वोयदाक दिकूक गेल्लो.

वोयदाक अतिशय जालो. 'आरे, काली अशीच एकु कायळो पायाक कांटो

तोपून आयलोलो मू! आजी दुशेरो एकलो आयला! हें कशी हें? कायळे एकेक जावनु कांटे तोपून वकदाक येताय!'

'तें कांय माका कळना. माका होगी वकद सांगून दी!' कायळ्यान सांगीलें.

इत्तेंय जावो म्होणु वोयदान ताकाय रानांतुलें फळ झरोवनु लांवचाक सांगीलें.

तो कायळो होगी रानांतु गेल्लो. रुकारी एक फळ सरी पिकल्लें ना. तें देकून ताणे एक हरवें फळ तुंटोवनु काडलें. आनी एक पोरणे बांयचेरी वचून बेसून फळ झरोंवचाक लागलो. जाल्यार फळ बांयतूं पडना. तें देखून ताणे तें धिंगूळनु बांयतूं घालें. अय्यो, फळ बांयतूं पडलें मू! म्होणु रडून ताणे बांयतूं उडकी मारली. भांगराचो जालोलो आसतलो म्होणु लेकून भायर आयलोलो तो आसा चिकलाचो! नांकांतु, दोळ्यांतु, कानांतु, चोंचींतु सगट चिकोलू भोरनु चिकलांतु पूरनु तो एक लागेन घाणियारो जाला. पाकांचेर थापलोलो चिकोलु कारण ताका सामकी उबूक सरी जायना. **का का** कोरनु रडुन कुंटून कुंटून वचे कायळ्याक चोवनु सर्व कायळ्यांनीय पुपूयो* मारल्यो. अत्याग्रहु दाकयल्यार अशी तं फल.



*पुपूयो- फकणां मारप, Make fun, Hoot in censure

## मांकड आनी रुकाचें बावलें

एकडे एकि अम्मा आनी तिगेलो पूतु एक खोंप्येंतु राबतालीं. दामु दुड्ड कांय नातिल्लीं दुर्बळ कुटुंब. पूतु केदणाय खेळूक वतलो. तशी गेल्लेले कडे साकून एक दिसा ताका एक मांकडा पील मेळ्ळें. चांग कौतूक आसा. ते पिल्लाक घेवनु तो घरकडे परतलो.

'इत्याक घेवनु आयला रे हे पिल्लाक? ताका इत्तें खांवचाक दितलीं म्होणु कीं? आमकांच खांवचाक सामकी पावना, तावळी तं तूं मांकडाक लागेन खावोंवचाक घेवनु आयला!' अम्माक कोपु आयलो.

'तें कांय ना मां. हांव मिगेल्यांतुलो एकु वांटो ताका खावयन. ना जाल्यार भायर वचून ताजे गूणी इत्तेंय सोदून खावयन. मांकडाचे गुणी म्होणु सांगल्यार कोणेय इत्तेंय दितलीं.' पुतान म्हळ्ळें.



उणेच काळ वचानिक मांकडा पील होडलें जालें. एक दिसा तो चेल्लो मांकडाक घेवनु भायर गेल्लोलो. एकडे एदींच जनां बेसून चिटांखेळु* खेळताय दिकीलें. तींवय खेळु चोंवचाक राबीलीं. सल्प घडी वचानिक खेळनु बेसलेले एकल्याले दुड्ड दिकूक ना खंय. थांगा सगट सोदीलें जाल्यारीय मेळ्ळेनाय. हांगा थांगा खंयीच पोडून गेल्लेले आसतले म्होणु ताणे आठयलें.



मांकडाक घेवनु चेल्लो घरकडे परतलो. घरकडे पावनु मांकडान तोणांतु साकून दुड्ड भायर काडले तांकां दुड्ड दिकून संतोषु जालो. खांवचाक कांय ना म्होणु बेसल्ले वेळार तं दुड्ड मेळ्याय. चोरायो करप चांग न्हय म्होणु तांकां दिसलेंना. तशी तेदूस तांनी पोट भोरनु खाण खेल्लें. तेदूस साकून मांकड तांकां अशी सहाय कोरनु आयलें.

मागीर ते चेल्यान दंदाक वचाक आरांभीलें. फारनु हाडका जालेलें आवश्य मांकडाक ना जालें. तें देखून ताका वेळु वचना. तें लागीचे गांवांतु सग भोंवचाक वतलें. तशी आसतना वाटेर ताणे होडलें एक घर दिकीलें. ते घराची कोयलूव निकळावनु तें भितरी चडलें.

चोंवचानिक घरांतु कोण ना. घरांतु सग कोयरु जावनु पडला. मांकडान

*चिटांखेळु- इस्पिकां खेळु, Cardgame

थांगा झाडून, पुसून, रांदून सग दवरलें. आनी तें आयलेलेच हादीवेल्यान परतून गेल्लें. राती ते घराचे धनियान चोंवचानिक घर फुटच आसा, खाण जेवण रांदून दवरलेलें आसा. ताका भो संतोषु जालो. ताणे व्हारडीक केल्लीना आशिल्ली आनी ताका हें सग दंद कष्ट म्होणु दिसतालें.

हेरदूसाय मांकडान अशीच केल्लें. लागीचे दिसाय केल्लें. दिसदीस करूक लागलें. सर्व दिसाय धनियान दंद जावनु पुरपूरो जावनु घरकडे परततना घर झाडून पुसून चांग कोरनु घाल्यां दिकूक पडतलें. मांकडान रांदून दवरचे खाणाक भो सूवादु. तशी उणे दीस वचानिक हें सगट कोण करता म्होणु चोंवचाक ताका दिसलें. दंद नातिल्ले एक दिसा तो घरांतु एक कवडा मागल्यान निपून राबीलो.

तावळी येता एक मांकड! घरा कोयलूव निकळावनु संथ देंवनु येता. घरांतुलें दंद सगट मांकड करता तो चोवनु राबीलो. दंद सगट छट छट कोरनु सारनु, वचाक वतना मांकडाक ताणे धरलें.



'तूं कोण? खंय साकून येता? इत्याक हांगा येवनु माका सहायु करता? माका हांगा कोण ना म्होणु तुका कशी कळ्ळें? हांवें आनी तुका सोडचेंना!' अशी म्होणु सांगीलें.

तावळी मांकडान सांगीलें- 'अय्यो! माका सोडी. हांव सग सांगन. एक दिसा हांव अशीणान वतना सबाव भितरी चोयलोलों तं. घर सगळेंच बुरशें जावनु पडल्यां दिकीलें. माका वेगळें कसलेंच दंद ना देखून हांवें अशी सगट केल्लें. तूंवें माका सोडल्यार हांव तुका एक बायलेक हाडून दीवीन. मिगेले धनियाक एकि चेल्ली आसा. ती रुपळावंती आसा.' अशी लागेन मांकडान फटी सांगीली.

'व्हय रे? तिगेली व्हारडीक जालीना वे?' ताणे निमगीलें. ताका एकि बायल मेळ्यार चिन्ना म्होणु आशिल्लेंच.

'ना, तिगेली व्हारडीक जालीना.' मांकडान सांगीलें.

'जाल्यार हांव तिका व्हारडीक कोरूक तयार आसा म्होणु तिजे लागी सांग.' ताणे सांगीलें.

'जाल्यार तशी जावो. हांव तिका घेवनु फाल्या येतां.' अशी सांगून मांकडान एक सोडप सोडलें.



कशी कीं ताका एक बायलेक व्होरनु दीवप? मांकडान चिंता कोरनु एकु उपायु सोदून काडलो. तें सुमसुमीच एक अच्चार्याचे लागी गेल्लें. आनीक एकि होडली रुका बावली कोरनु दींवका म्होणु सांगीलें. ताणे चांग दिसूची होडली एकि रुका बावली कोरनु

दिल्ली. मांकडान तिका कापड, चोळी सगट न्हेसोवनु ते होडले घरकडे व्हेल्ली. घन्नी निदेवनु पडलोलो वेळु. तिका एक कवडा मागल्यान रावयली.

हेरदूसा धनियान उटावनु चोंवचानिक चांग दिसूची एकि वायल रावील्या. मांकडान हाडून सोडलेली जावयात. ती कांय उलयना. लजेवनु वि जायत म्होणु ताणे आठयलें. आतां तिजे लागी चड उलोंवचाक वचूका नाका. राती पर्यान तिगेली लजा ऊणे जातली. अशी लेकून तो दंदाक गेल्लो.

राती परतून येंवचानिकय ती तशीच वावगून रावील्या. घर सग आशिल्ले तकीत वुरशें जावनु पडल्यां. खांवचाक जेंवचाक कसलेंच कोरनु दवरलेंना.

ही कसली बायल? एकय कळना हीका. तो तिजे लागी वोचून चोयलो. चोंवचानिक न वें कळ्यां! ती वायलय न्हय एकय न्हय! सावाव रुकाची एकि बावली!

ताका कोपु आयलो. मांकडान ताका फटयलें म्होणु ताका कळ्ळें. कोपान ताणे बावलेक एक मुस्तप दिल्लें. ती घरा भायर वोचून पडली. तो कवड बंद कोरनु निदेंवचाक गेल्लो.



राती मदराती जाली. महादेवु आनी पार्वती भोंवचाक देंवलेलीं. तशी वचे वेळार एक घरा आखाड्यांतु एकि रुकाची बावली पडल्या पार्वती देवीन दिकीलें. भो रुपळावंती आसा मू ही बावली!



'देवा, हिका जीवु दीवया वे?' देवीन

निमगीलें. ‘जीवु दिल्यार चांग दिसूची एकी बायल जातली.’

‘जावो, तशीच जावो!’ महादेवान वोरु दिल्लो. आनी तीं गेल्लीं.

सकाणी ती बायल नीद जालेल्या वरीच उटायली.



तीणे चोंवचानिक लागीच एक घर आसा. हांगाच्च चोडया. ती घरांतु चडली. घरांतु कोण ना. तीणे घरांतुलें सर्व दंदय कोरनु दवरलें.

सांजे घरा धन्यान परतून येंवचीनिक घर सगळेंच फुटच आसा. शीत, चांग चांग रांवदयो सगट कोरनु दवरल्याय. चोंवचानिक एक कूडांतु एकि बायल लजेवनु राबील्या.

हें सगट तेच मांकडाचें दंद म्होणु ताणे आठयलें. ते बावलेक दुशेरी घरांतु चडोवनु राबयल्या म्होणु कोपान तो तिजे लागी गेल्लो. काली मुस्तून भायर घाल्लेले हिका दुशेर चडयल्या म्होणु आठोवनु चोंवचानिक ती मातें उबारनु चोयता. जीवु आशिल्लीच बायल! ते बावलेलेंच सारकें आसा. ताका अतिशय जालो. ताणे तिका चांग मुहूर्तु चोवनु व्हारडीक कोरूं म्होणु घरकडे राबयली.

दोन दीस वचानिक तें मांकड भोंवचाक देंवलें. ते होडले घरकडे इत्तें चमकता म्होणु चोंवचाक तें थांगा गेल्लें. चोंवचानिक इत्तें कीं? रुपळावंती बायल!

जीवु आशिल्ली! आसा थांगा! मांकडाक अतिशय जालो. चोयल्यारी ते रुका वावले वरी दिसता. हें कशी जालें? हिका कशीच कोरनु हांगा साकून व्होरका. मिगेले धनियाक अवसल्ली तं ही!

मांकडान तिजे लागी सांगीलें - चोय, तूं हांगा पावलेली कशी म्होणु कळता वे?

कशी म्होणु तीणे निमगीलें. मांकडान जालेलें सग सांगीलें.

'हाजा पशी चांग बामूण मिगेले घरकडे आसा. तुका सर जालोलो मिगेलो धन्नी तं. तूं आमगेथंय यो.'

मांकडान सांगलेलें आयकून तिका चिन्ना म्होणु दिसलें. राती घरा धनियान येंवचानिक तीणे म्हळ्ळें- 'जायते दीस जाले हांवें घरकडे साकून येवनु. आमगेले व्हारडीकेचे मुरथम हांव एक घरकडे वचून अम्मा बप्पाक दिकूनु येतां. दोनी दीस भितरी परतून येन.

'जावो, तूं वचून यो.' ताणे तिका वचाक सोडली.

भायर राकून राबलेले मांकडाचे ओट्टू ती तांगेथंय गेल्ली. तागेले धनियाक व्हारडीक कोरनु सुखान राबीली.

आनी ते होडले घरकडेचो दादलो ती बायल आज येतली फाय येतली म्होणु राकून बेसल्लो आसा.



## बेत मारलेली काणी

एकडे एकु रायु आशिल्लो. ताका दोनी बायलो आशिल्यो. रायाक चेरडूवां नांय देखून भो दुखी आसा. आनी इत्याक हांगा राबूका? रानांतु वचून तपस कोरया. अशी आठोवनु तो रानांतु गेल्लो.

थांगा एक सन्यासी तपस करता दिकीलें. रायाक दिकून सन्यासीन निमगीलें-

'चोयल्यारी होडु रायु म्होणु दिसता तूं. इत्याक आयला हे रानांतु?'

रायान तागेले दुखाचें कारण सांगीलें.



'राया, तूवें तपस कोरका कांय नाका. तुगेलें राज्य अनाथ पडतलें. तें देखून तूं एक कायरीं करी. हांव एकु आंबो मंतरसून दीन. तो व्होरनु तुगेले बायलेक दी. आंबो खेल्यारी तिका चेरडूं जातलें.'

रायाक भो संतोषु जालो. आंबो घेवनु तो रावळारांतु गेल्लो. ताका धाकटे बायलेचेरी तं मोगु चड्डु. तें देखून ताणे तो आंबो तिका दिल्लो. आनी सन्यासीन सांगलेलीं कायरीं सांगीलीं.



रायान गेल्लेले मागल्यान तीणे तो आंबो दूरा उडकायलो. आंबो खावनु चेरडूं? हूं!

रायान सांगिल्लीं कायरीं सगट थांगाचे दंदकारणीन आयकीलीं. तीणे तो आंबो रायाले होडले राणियेक दिल्लो. हो मंत्रशक्ती आशिल्लो आंबो खेल्यार चेरडूं जातलें म्होणू सांगीलें. राणियेन आंबो खेल्लो. येदे काळ वचानिक होडली राणी गुरबीणी म्होणु धाकटे राणियेन आयकीलें. तिका कुसंगायो* आयल्यो. होडले

*कुसंगायो- जळकायो, असूया, Envy, Jealousy

राणियेलो बाळांतिर्या वेळु पावलो. धाकटे राणियेन तिगेले दोळे बांदीले. होडले राणियेक दोन चांग दिसूचीं चेल्या चेरडूवां जालीं.

धाकटे राणियेन तांकां दोगांकय एकेक खोट्यांतु* निदावनु न्हंयतूं होळयलीं. आनी दोनी बेब्यांक हाडून होडले राणियेक दाकयले. आनी सांगीलें- 'चोय! हीं तं तुका जालेलीं चेरडूवां!'



न्हंयचे पेलतडी एक सन्यासी हातु धुतालो. दोनीय खोट्टे होळनु तागेले हाताकडे येवनु राबीले. सन्यासीन चोंवचानिक चांग दिसूचीं दोग चेल्या चेरडूवां. ताणे ते चेरडूवांक घरकडे व्होरनु वाडोवनु होडलीं केल्लीं. तांकां सोळा वर्षां जालीं.

तशी आसतना एक दीसा ताणे तांकां उळदून सांगीलें- 'पुतांदो, माका प्राय जावनु आयल्या. आनीकय मुकारी तुमचीं कायरीं चोंवचाक मिज्यान जातलें म्होणु दिसना. तें देखून तुमगेलीं कायरीं आनी तुमीच चोंवका.'

'बप्पा, आमकां कसलेंच कळना मू. कोण आमकां खाण बि दितलें? आमकां

वचाक सांगशी बप्पा.'

'तुमी भीवनाकाय. हांव तुमकां एक बेत मंतरसून दितां. तें बेत खालाक मारनु तुमकां जाय जालेलें सांगल्यार पूरो. तें सगट तावळीच जातलें.'

तांकां संतोषु जालो. तीं दोगांय बेत घेवनु देंवलीं. चमकून चमकून राती जाली. मुकार राना वाट लागी एक सान घर दिकीलें. राती थांगा काडूं म्होणु तांनी ते घरा कवडारी खटखटायलें. थांगा एकि म्हांतारी राबताली.

'तुमी इत्याक हांगा आयल्याय?' तीणे निमगीलें.

'आमकां आयचे रातीक हांगा राबूक दिशी वे म्हांताराये?' तांनी निमगीलें.

'राबूयात पुतांदो. जाल्यार हांगा खांवचाक कसलेंच मेळन्ना. माकाच पोटाक घालूक हांगा कांय ना.' म्हांतारेन सांगीलें.

'तें कांय ना. आमी तुजे गुणीय खांवचाक दीवूं.' तांनी सांगीलें.

म्हांतारायेन तांकां भितरी चडयले.

तांनी हातांतुलें बेत खालाक मारलें आनीक सांगीलें- 'तेग जाणांक आशिल्लें शीत रांवदय सग जावो!'

म्होणु भितरी तेग जाणांक पोट भोरनु जेंवचाक आशिल्लें शीत रांवदय जाली. म्हांतारेक अतिशय जालो तेगांय बेसून जेवलीं. राती सगटय स्वस्त निदेलीं. फालें जालें. सकाणचें खाणय तशीच बेत



मारनु हाडोवनु खेल्लें.

'आनी आमी वताय. राती काडूक दिल्लेले खातीर होडु उपकारु.' तांनी सांगीलें.

'तुमी खंय वतलीं? हांगाचो रायु सगटांकय दान दिता खंय. ताका चेरडूवां कोण नाय देखून तागेलें सर्वस्व दान दीवूक लागला. ताजे लागी गेल्यार तुमकांय इत्तेंय पुणी मेळतलें.' म्हांतारेन म्हळ्ळें.

हें आयकून ते दोगांय रायाक दिकूक गल्ले.

'सगटय दान कोरनु सरलें मू! आनी तें दिकूक येंवचें रान मात्र आसा. तें जाय जाल्यार काडाय.' रायान सांगीलें.

'रान जाल्यारीय पूरो आमकां. उपकारु राया.' चेरडूवांनी सांगीलें.

तशी तांनी रानांतु गेल्लीं. बेत खालाक मारनु सांगीलें- 'रान सगळें वचून भूंय जावो!' तशीच जालें. दुशेरी बेत खालाक मारनु सांगीलें- 'हांगा होडलें एक रावळार जावो!' सांगू भितरी रावळार जालें.



मागीरीय बेत मारनु तांनी सांगीलें- 'एक सास जाणांक जेंवचाक शीत रांवदय जावो!' तशीच जालें. 'आनीक एक सास जाण जावोय!' बेत मारु भितरी एक सास जाण जालीं. 'तांकां वाडूक दंदेली जावोय!' म्होणु भितरी एकु सास जाण बेसून जेवताय.



रायान तागेले जनलांतुल्यान चोंवचानिक रान आशिल्ले कडे होडलें एक रावळार! तांतूं भोरनु जनां! रायाक दिकलेलें विश्वासु येना. सल्प घडी मुरथम न्हय वें तें रान ते दोग चेरडूवांक दान दिल्लेलें? आतां म्होणु भितरी कशी हें सगट जालें? तीं चेरडूवां सामान्य न्हय. तांकां जिवंत सोडूक नज.

'हाडाय रे तांकां धोरनु!' रायान आदेशु दिल्लो. सैनिक धावले. चेल्यांक धोरनु बांदून घेवनु आयले. तांकां मारूक रायान खांडें उबारलेलेंय एक आकाशवाणी आयकीली- 'नाका राया, तांकां मारनाका! हे दोगांय तुगेलेच पूत. तुगेले होडले राणियेक जालेले.' हें आयकून रायाक अतिशयु जालो.

ताणे तागेले दोगांय राणियांक आनी सन्यासीक उळदून हाडयलो. कायरीं सगट निमगून मनांतु केल्लीं. सम म्होणु कळूनिक रायाक धाकटे बायलेचेरी कोपु आयलो. तिका भायर घाली. चेरडूवां आनी होडली राणी एकडे जावनु रायु सुखान राबीलो. सन्यासीक आनी म्हांतारेक राबूक एकेक घर कोरनु लागीच राबयलीं.



## सात पोळे

एकडे एक अम्मा बप्पाक सात धूवो आशिल्यो. दुर्बळ कुटुंब. रानांतु साकून राकूड कातोरनु विकून तो बप्पा दीस काडतालो.

एक दिसा रानांतु वासो कातरतना ताका वास्यांतुलो जायतो वोरोवु मेळ्ळो. हाजान पोळे केल्यार भो सूवादु आसतलो म्होणु ताणे ते व्होरनु बायलेचे लागी दिल्ले. आनी सांगीलें- 'आगो, आजी माका हे वोरवाचे पोळे कोरनु दींवका, कळ्ळें वे? चेलियांचे लागी बि सांगशी!'



'जावो, आयचे रातीक पोळ्यां खाण जावो.' म्होणु तीणे वोरोवु फुगत घालो. कारात्याचे वालीक मांटोवु घालनु येता म्होणु तो मैदरांतु गेल्लो. चेल्लियो पेजे निशें पीवनु निदेंवचाक गेल्यो.

बायलेन नारलु कांतून सोय केल्ली आनी पीट वाटून तयार केल्लें. रानणींतु उजो कोरून कायली दवरली. आद्यचे पोळ्याक पीट घालतना होडली धूव मुतूक वचाक म्होणु उटावनु आयली. तीणे चोंवचानिक अम्मा वासरेंतु इतेंकींच करता.

'इत्तें मां तें करता? पोळे वे? माकाय दी अम्मा एकु पोळो.' तीणे अम्माचे लागी मागलें.

'वास्यांतुले वोरवाचे पोळे गो धूवे. धरी, हो पोळो तूं खा. कोणालागी सांगशी बि. बप्पा गुणी करता तं. पीट उणेच तं आसा. तूं नुतोच खा.' अशी सांगून अम्मान तिका एकु हुनूच पोळो दिल्लो.



ती पोळो घेवनु धावली. कूडातु पावु भितरी तिगेलो हातु हूनु जालो. तीणे तो पोळो व्होरनु तिजे भयणीचे पोटारी दवरलो.

पोट लासून ती उटायली. तीणे चोंवचानिक अक्का नुतोच बेसून पोळो खाता.

'अक्का खंचो मेळ्ळो पोळो? एकु पोळो माकाय जाय.' तीणे निमगीलें.

अक्कान जालेलीं कायरीं सगट सांगीलीं. भयणी धावनु वासरेंतु गेल्ली. तिकाय एकु पोळो अम्मान दिल्लो. कोणाचे लागी सांगूनाका म्होणु ताकीदय दिल्लें. तीणे तो हूनु पोळो व्होरनु तिसरेले पोटारी दवरलो. तीवय जागी जाली. तीवय धावली पोळो घेंवचाक. तिकाय मेळ्ळो एकु पोळो. तीणे तो व्होरनु चोवतेले पोटारी दवोरनु तिका जागयली. तशी जावनु जावनु सात चेलियांनीय मेळनु पोळे खावनु

पीट सरलें.

बप्पा मांटोवु घालनु भितरी आयलो. चोंवचानिक पिटय ना, पोळेय ना! धूवांनी मेळनु पोळे खावनु सारले म्होणु ताका कळ्ळें. ताका सामकीच कोपु आयलो. ताका मात्र कसलेंच खांवचाक मेळ्ळेंना.

राती सगळीच भुकेन तळवळेवनु ताका नीद पडलीना. फालें जांवचानिक ताणे धूवांक सगटांक उळदीलीं.

'येयाय गो, आज आमकां तेर्या पानां खुंटूक वचा. अम्मा फाले पातरवोडो कोरूक वता खंय. येयाय, वचा.'

धूवांक संतोषु जालो. पातरवोडो म्हळ्यार तांकां होड कायरीं तं. बप्पान कूराडीय काडली. चेल्लियांनी साक, पेसकात्यो सगट काडल्यो. बप्पान राकूड कातरतना तांगेलें पान खुंटपय जातलें.

बप्पा रानांतु पांवचानिक राकूड कातरूक गेल्लो. धूवो पानां खुंटून भोवल्यो.





देनपारां तांनी हाडलेलें जेवण जेवनु जावनु मागीरीय पानां खुंटीत भोवल्यो. बप्पान राकूड कातोरचो सोवदू तांकां आयकूक येतालो.



सांज जाली. बप्पा परतून पावलोना.

‘काळूक जावनु येता मू. आमकां बप्पाचे लागी वचा.’ होडले धूवेन भयण्यांक उळदून घेवनु सोवदू आयकूक येंवचे कडे गेल्लीं.

थांगा वचानिक इत्तें कीं? बप्पा ना! वारें मारतना एकु रूकु लागीच्याक वोचून आडोळचो सोवदू तं तांकां आयकूक पडतालो. तांकां भय जालें.

आनी इत्तें करतलीं? बप्पा आमकां रानांतु सोडून गेल्लो म्होणु दिसता मू! आनी कशी घरकडे वतलीं? राती खंय काडतलीं? सगटय भीवनु कडकडेताय.

दूरा एकु उजवाडु दिकूक पडता.

‘अक्का, थांगा कोणेय पुणीय आसतलें. वचून चोवया.’ धाकूले भयणीन सांगीलें.

सगटय उजवाडु दिकूक येंवचे कडे गेल्लीं. होडलें एक रावळार. जनलांतुल्यान उजवाडु भायर पडता. तांनी सगटय जनलांतुल्यान भितरी चोयलीं. भयान तांनी मागल्यान सरलीं.

एकु होडलो राक्षसु थांगा निदेवनु पडलोलो आसा. ताजे केस वाडून जठा पूडून आसाय. खाड, मीशी वाडून लांबता पायांचीं, हातांचीं नांकूटां दीग दीग.



होडलो पर्वत सरी दिसता पडला चोयल्यार. सिंहाचो गर्जु सरी आसा घोरणी. हस्तेले पायां येद्दे थोर हातपाय. चोयल्यार कोण जाल्यारीय भितलीं.

ताजे लागी होडले होडले हांड्यांतु दूद, शीत, रांवदयो, सगट तयार दवरल्या. सगटय हूनहून, ऊब येता दिकूयात. रानणीरी होडले हांडयांतु उदाक खतखतेता.

राक्षसु निदेवनु पडून आसा देखून चेलियांक सल्प धैर्य आयलें. तांनी ल्हवुल्हवूच भीतरी चडून खतखती उदकाचो हांडो निदेवनु पडलेले राक्षसाचे आंगार उमतीलो. आंग लासून तो तावळीच मोरनु गेल्लो.



तें जावनु तांनी थांगा रांदून दवरलेलें काडून पोट भोरनु जेवलीं. मागीर रावळार भोंवनु चोंवचाक तयार जालीं.

एकेक कूडांतूंय होडल्यो होडल्यो पेट्टो आसाय. एकेकीय वात्तें कोरनु चोंवचानिक इत्तें कीं? भांगार, वज्र, मोतीं, पोवळीं, केंपु तशी सगट तरा अमूल्य वस्तू भोरनु भोरनु पडला. हें सगट व्होरनु अम्माबप्पाक दीवया. चेलियांनी हातांतु मेळ्ळेलें सगट हातां मेळ्ळेले आयदनांतु, कोळस्यांतु, भोगड्यांत सगट भरलें. हेरदूसा फालें जांवचानिक त्यो तें सगट घेवनु घरकडे गेल्यो. जाल्यार धाकूली धूव मात्र तांचे कूटांतु* गेल्लीना. ती मागीरी येता म्होणु सांगून थांगाच बेसली.

घरकडे वचे हादीरी चोरांनी चेलियांलें भांगार, वज्र सगटय फारलें.



धाकले भयणीन इत्तें केल्लें म्हळ्यारी, राक्षसान खावनु घालेले मृगांचें चाम काडून आंगार वेडायलें. एदेंच चाम भांगार भरलेले कोळस्याकय बांदीलें. आनी ती घरकडे गेल्ली. वाटेरी चोर आशिल्ले. दूरा साकून कोणेय येता तांनी दिकीलें. येंवचे मनीशाले हातांतुलें फारया म्होणु आठोवनु बेसल्ले चोरांक चामाची घाणी आयली. खंचोय राक्षसु. सत्व. भूत बि येता म्होणु आठोवनु ते भीवनु धावले.

तशी धाकूली धूव चोरांचे हातांतु साकून वांचून घरकडे पावली. आंगार घालेलें चाम सगट दूरा विंदून

*कूटांतु- सांगातांतु, Along with

कोळसो पूसून तीणे घरा कवडारी खटखटायलें.

'तूंवय रित्ते हातान गो आयल्या? तशी जाल्यार घरांतु चडका नाका.' वप्पान सांगीलें.

'ना बप्पा, हांवें इतें हाडलें म्होणु चोय!' तीणें सांगीलें. कवड वात्तें कोरनु अम्माबप्पान तिका भितर चडयली. तीणे कोळस्यांतु भोरनु हाडलेलें सगट चोवनु तांगेले दोळे विसविसेवनु गेल्ले. तीणे सांगून तिगेले अक्कांकय घरांतु चडयलीं. भांगार विकून तांकां दामु जालो. तीं सगटय सुखान राबीलीं.



## कुंडोकोरकूल

सानच एक गांवांतु एक अम्माबप्पा आनी तांगेल्यो सात धूवो राबताल्यो. तांगेली धाकूली धूव केदणाय कुंड्यांतु खेळताली. तें देखून तिगेलीं अक्कीयो तिका खेळु करतालीं. 'कुंड्यांतु सदा लळचे तुका कुंडोकोरकूल म्होणु तं उळदूका. आनी आमी तशी तं उळदूक वताय.'



'माका तुमी खेळु कोरका कांय नाका, चोयाय मात्र आनी इत्तें जांवचाक वता म्होणु' तीणे सांगीलें. जाल्यारीय तिका कुंडोकोरकूल म्होणु नांव पडलेंच.

एक दिसा तीं सगट मेळनु उलयतालीं. 'आगो, तूं कोणाक गो व्हारडीक कोरूक वता?' एकलेन निमगीलें.

'हांव वे, देवळांतु पूजा कोरचे एक भटाक तं व्हारडीक करतलीं.' होडले अक्कान सांगीलें. दुसरे अक्काक वोयदु पूरो खंय.

'हांव एक अध्यापकाक तं व्हारडीक करतलीं.' तिसरेन सांगीलें. चोवतेक जाय आशिल्लो व्यारेली. तशी एकेकलेनय तिजे तिजे मनांतुली आशा सांगीली.

'तूं कोणाक गो व्हारडीक कोरूक वता?' कुंडोकोरकूलाचे लागी तांनी निमगीलें.

'हांव वें, चांग दिसूचे एक राजकुमाराक तं व्हारडीक करतलीं. व्हारडीक जावनु माका एक चेरडूं जातलें. ते चेरडाक स मास आसतना ताका नामकरण आनी बारसो करतलीं. तावळी तुमकां सगटांकय उळदितलीं. तुंमी जेंवचाक बेसल्ले वेळारी हांव तुमकां तूप वाडूक वतलीं. मिगेले हाळडीरी मिगेलें चेरडूं आसतलें. तूप वाडचे समयारी मिगेलें चेरडूं मिगेले गोमटेक पडलोलो भांगरा मोत्यां सोरु धोरनु तुंटयतलें. तुंटल्ले सोराच्यो मण्यो सगळ्यो खालाक पडतल्यो. तुमी त्यो मण्यो वेंचून मिगेले वोरलांतु घालनु दितलीं.'



'ओ! तिगेली एकि आशा! रायापुताक व्हारडीक करतली खंय! सपन चोवनु पड कुंड्यांतु! नाका! तूवें आनी हांगा राबूका नाका! वच भायर. रायापूतूच मेळतलो तुका व्हारडीक कोरूक! वच, खंय जाल्यार थांगा वचून सोदी तुगेले रायापुताक!' अशी सांगून सगटानीय कोरनु तिका भायर घाली.

तशी ती चमकून चमकून एक रानांतु पावली. ते वेळार एकु रायापूतु घोड्या फाटीरी बेसून तशीणान येतालो. कुंडोकोरकूलाक दिकूनिक ताका चांग जावनु बोय जाली. चिन्ना मू ही चेल्ली, रुपळावंती आसा! हिका व्हारडीक केल्यार इतें? निमगून चोवया तिजे लागी. अशी आठोवनु रायापुतान तिजे लागी निमगीलें-

'तूं खंची कीं? नांव इतें? खंय वता? हे रानांतु एकलीच इत्याक भोंवता? तुका अम्माबप्पा नाय वे?' कुंडोकोरकूलान सग कायरींय सांगीलीं.



'हांव तुका व्हारडीक करीन. आतां ही मुद्दी धरी. मिगेले उडगासाक. तूं रावळारांतु यो. तो वेळु भितरी हांव लागीचे गांवांतु वचून येता.' अशी सांगून रायापूतु गेलो.

तीणे ती मुद्दी बोटाक

घालनात्तिलें तिगेले केसांचे शेंड्यांतु निपोवनु दवरली. तशी चमकून वतना ती एक देवळाचे लागी पावली. थांगा नवीच एकि तळय खोणून जाल्या मात्र. जाल्यार उदाक येना.



जनां भोरनु रावून चर्चा करताय. आनी इत्तें करतलीं? उदाक कशी हाडतलीं? इत्तें केल्यार उदाक येतलें म्होणु प्रश्नु दवोरनु चोयलीं. एक कन्यकेक थांगा बळी दिल्यार उदाक येतलें म्होणु प्रश्नारी आयलें. कन्यका खंची मेळतली म्होणु रावलेले वेळारी तं कुंडोकोरकूल बुरशें वस्त्र न्हेसून थकून थांगा पावलेली. तिका दिकून जनांक आश्वासु जालो. हिकाच दीवूं बळी म्होणु सांगून तांनी तिजे लागी कायरीं सांगीलीं. मोरूक तयार जा म्होणु म्हळ्ळें तांनी. हें आयकून तिका भय जालें.

'नाका! माका मारनाकाय! तुमकां उदाक न वें जाय? हांव हाडून दितां. एक खोरें दिल्यार पूरो.' तीणे रडून सांगीलें.

'आमी खोणलेलें सामकी जालेंना म्होणु दिसतलें तिगेलें सांगप आयकिल्यारी' एकल्याक कोपु आयलो.

'चोवो रे तीवय. उदाक आयलें जाल्यार भाग्य न वें. सबाव इत्याक कीं एक जीवाक मारका?' म्होणु सांगून एकल्यान एक खोरें हाडून दिल्लें. तीणे खोरें घेवनु खालाक मारलें. एक फंता मारूनिक रेंव पेचपेचीच जाली. दुशेरे फंता मारूनिक चड उदाक आयलें.



सगटांकय अतिशय जालो. 'ही चेल्ली कसलीकींच सिद्धी आशिल्ली म्होणु दिसता. कायरीं राया लागी सांगूया.' कायरीं आयकून रायाकय अतिशय जालो. तळयेंतु भोरनु उदाक आसा. कसलीकींच सिद्धी आशिल्लीच ती! संशयु ना.

'हाडाय रे तिका रावळारांतु!' रायान आदेशु दिल्लो. सांगू भितरी तिका घेवनु पावले. तिका चांग कोरनु न्हाणोवनु, चांग वस्त्र घालनु, पोट भरी खाण खांवोवनु हाडाय म्होणु रायान आदेश दिल्लो.

तिका मात्यार न्हाणोंवचाक जावनु केसा शेंडो निसरांवचाक श्रमु केल्लो दासीन. जाल्यार इत्तें केल्यारीय कुंडोकोरकुल शेंडो निसरांवचाक सोडीना. तें देखून

तिका मात्यार न्हाणोवनात्तिलें आंगारी मात्र न्हाणोवनु राया मुकारी पांवयली. कायरीं सांगूनिक रायाक कोपु आयलो. ताणे तिगेलो शेंडो ओडून निसरायलो. तावळी इत्तें कीं? केसांतु साकून एकि मुद्दी खालाक पडली! रायान चोंवचानिक तागेले पुतालें नांव आशिल्ली मुद्दी! रायु विस्मित जालो.

'हें कशी जालें? तुका ही मुद्दी कशी मेळ्ळी?' रायान तिजे लागी निमगीलें. ती कांय उलयलीना. रायान पुताक उळदून हाडलो. ताजे लागी निमगीलें. ताणे जालेलीं कायरीं सगट सांगीलीं.

'जावो, तूवें तिका उत्तर दिलेलें देखून व्हारडीक चमको. कशी जाल्यारीय कसलीकीच अत्भुत सिद्धी आशिल्लीच ती. तळयेंतु उदाक भरयलें की ना!' तशी कुंडोकोरकूलाली व्हारडीक रायापुताचे लागी चमकीली.



एदेच काळ वचानिक तांकां एक चेल्या चेरडूं जालें. ताका स मास आसतना नामकरण, बारसो कोरूक वताय. कुंडोकोरकूलान तिगेले अम्माबप्पाक बर्प घालनु हाडयलीं. राया नातवाले बारस्याक तांकांय आमंत्रण मेळ्ळें म्होणु तीं विस्मित जालीं.

सगटय रावळारांतु गेल्लीं. बारसो नामकरण सगट गंभीर जावनु चमकीलें. सगटय जेंवचाक बेसलीं. राया सून चेरडाक हाळडीरी बेसोवनु तूप वाडूक भोंवता. तूप वाडता वाडता चेरडान अम्माले गोमटेरी पडलोलो भांगरा सोरु ओडून तुंटयलो. ताजी मण्यो सगट खालाक शिंवडून पडल्यो. तिगेले अक्कांनी त्यो मण्यो पुंजावनु तिगेले कापडा वोरलांतु घालनु दिल्यो. तावळी तांकां उडगासु आयलो!

'अशीच मू कुंडोकोरकूलान सांगिल्लें! हीच वे ती? व्हय मू! ही तीच! आमी खेळु करतालीं मू तिका!' तांकां पश्चातापु जालो. तीणे सांगिल्लें अवसलें मू! तांनी तिजे लागी क्षमा मागीली. कुंडोकोरकूलान तांकां जायतो उपहार सगट दीवनु पेटयलीं. तशी सग सुखान संतोषान राबीलीं.



## भांगरा पेटारो

एकडे एक अम्माबप्पा आनी तांगेली एकलीच धूव राबतालीं. दुर्बळ कुटुंब. धूवेन सदांच शिता घालूक तीन वोरव धूवनु दीवप आसा. एक दिसा वोरव धुता धुता एकु वोरोवु मुंयेबीळांतु पडून गेल्लो. बाकी दोनी वोरव मात्र आसाय.



'आय्यो! अम्मा कोपतली मूं! आं, माका आजी शीत नाका म्होणु सांगूं.' तीणे अम्मा लागी तशीच सांगीलें. जाल्यारीय अम्माक सामकीच कोपु आयलो.

'वोरोवु पेल्यान घालनु शीत नाका म्हणता कीं? आनी तूंवें हांगा राबूका नाका! वच! होगी भायर देंवनु वच.' अशी सांगून तिगेले अम्मान तिका घरा भायर घाली. तीणे निमगून एक सान भोगडें मात्र दिल्लें अम्मान. हादीरी उदाक बि पिंवचाक जातलें म्होणु आठोवनु अम्मान ती दया दाकयली.

चमकता चमकता तिका तान लागली. रकरकी वोत. भो हुनसाणी. खंय कीं उदाक आसा? तीणे चोंवचानिक लागीच एक तळें आसा. तळ्या लागी एकि विल्लेली केळी उदाक नातिल्लें बावनु पडल्या. दयामाया दिसून तीणे तळ्यांतु साकून



उणेच उदाक हाडून ते केळीक रकयलें. केळीन तिका पानां हालोवनु उपकारु सांगीलो. मागीरीय सल्प मुकारी वचानिक एकि शेमतीणी बावनु राबील्या. भोरनु कोळे आसाय तिजेरी. शेंमतीणीकय उणेच उदाक रकयलें तीणे. तिकाय संतोषु जालो.

तेंवय जावनु मुकारी वचानिक एकि हस्ती राबील्या. ती गुरबीणी हस्ती तान भूक लागून वांवटेता. लागी दिकील्ले एक बांयतूलें उदाक भोरनु तीणे हस्तेक पिंवचाक दिल्लें. आनी खांवचाक पाल्ले पिड्डे बि घालनु दिल्ले. हस्तेकय होडलो आश्वासु जालो. तीणेय मातें हालोवनु उपकारु सांगीलो.



मागीर चमकून चमकून ती एक देवळांतु पावली. तेद्दे भितरी राती जावनु आयली. आनी हांगाच निदेवूं म्होणु ती देवळांतु चडून बेसली. अम्मान तिका घरा भायर घाल्ली मू म्होणु आठोवनु तिका रडणें आयलें. ते वेळार तं महादेव आनी पार्वती भोंवचाक देंवलेलीं. ती खोळसां काडून रडता देवीन आयकीलें.

‘हें चोयाय, कोणेन रडता! कोण म्होणु चोवया.’ देवीन सांगीलें.

‘हांवें कांय आयकलेंना मू! कोण ना हांगा. तुका सबाव दिसता जावयात.’

‘ना देवा, माका दिसता न्हय. कोणकींच रडताच आसा.’ अशी दोगांय खालाक देंवनु आयलीं. तांनी ते सान चेल्येक दिकीली. रडता इत्याक म्होणु निमगून मनांतु केल्लें. तांकां तिजेर दयामाया दिसली. तांनी सांगीलें-

‘तूं एक करी, देवळा माळियेरी जायते पेट पेटारे आसाय. तुका खंचे जाय म्हळ्यार तूं काडी. मागीरी घरकडे परतून वच.’



तिका संतोषु जालो. फालें जालें म्हणतना ती माळियेरी चडली. चोयतना थांगा जायते होड सान पेट पेटारे आसाय. तांतूली सर्वांपशी सानी पेट सोदून काडली तीणे आनी घरकडे परतली. हादीरी तीणे उदाक दिल्लेली हस्ती राबील्या. एकु सानु भुंडो लागेन आसा तिजे लागी. हस्तेन तिका लागी उळदून भुंड्याक घेवनु वच म्हळ्ळें. ती मुकारी संतोषान चमकीली, भुंडो मागल्यान कान हालोवनु हालोवनु

चमकीलो.

सल्प वचानिक तीणे उदाक घालेली शेमतीणी फुलेवनु राबील्या. भांगराचीं फुल्लां. शेमतीणीन तिका भोगडें भोरनु भांगरा शेमतीं काडी म्हळ्ळें. तिका संतोषु जालो. तीं घेवनु मुकारी वतना तिका भूक लागली. चोयतना तीणे उदाक घालेली केळी तिका उळदीता. केळीचेरी पिकून राबिल्लो घडाय तिका काडी म्हळ्ळो. घडाय हस्ते भुंड्या कर्यान व्हांवोवनु पिकल्लीं केंळीं खावनु, एक दोनी ताकाय दीवनु ती घरकडे पावली.

तीणे कवडारी खटखटायलें.

'अम्मा कवड काडी. हांवें इत्तें हाडल्यां म्होणु चोय अम्मा.' तिगेले अम्मान कवड वात्तें केल्लें आनी भुंड्याक दिकून भीवनु तावळीच धांकीलें.

'भुंड्यान बाधा दिवना मां, कवड काडी. चोय, हांवें इत्तें सगट हाडल्यां म्होणु.'

तावळी तिगेले अम्मान भीवनु भीवनु कवड वात्तें केल्लें. भुंड्यान केळ्यां घडाय अम्माले पायां मूणांतु दवरलो. अम्मा धूवेक घेवनु घरांतु चडली. तीणे अम्माक भांगरा शेमतीं दिल्लीं. तीणे हाडलेली पेट वात्ती कोरनु चोयलीं. चोंवचनिक इत्तें कीं? तांतूं भोरनु भांगार, रत्नां, मोत्तीं, पवळीं, वज्र सगट



थळथळेता, झगझगेता. तांगेले दोळे विसविसेले.

हें सगट विकून तांनी होड एक घर बांदीलें. चांग वस्त्रां घेतलीं. सुखान संतोषान राबलीं.

हें सगट दिकून शेजार घरकारांक जळकायो भरल्यो. थांगाय राबतालीं एक अम्मा बप्पा आनी एकलीच धूव. ती धूव भो आळसी. कोणाक सहायु करची न्हय. हें सगट कशी जालें म्होणु जाण जांवचाक तिगेले अम्माबप्पान तिका लागीचे घरकडे पेटयली. चमकलेलीं कायरीं सगट मनांतु कोरनु ती होगी घरकडे आयली.

'तीनी वोरव दी गे मां. धूंवनु एकु वोरोवु मुंये बीळांतु पेल्यान घालीन.'

तांकां दामु दुड्ड साबार आसा आनी तांनी सदांच पोडीभर वोरवा शीत कोरनु जेवप आशिल्लें. जाल्यारीय अम्मान तिका तीन वोरव धुंवचाक दिल्ले. चेल्ली धुंवचाक बेसली. कितलें धुंल्यारीय वोरोवु एकु सरी मुंये बीळांतु वचना. तीणे जाय म्होणूच एकु वोरोवु मुंये बीळांतु चडयलो. आनी संतोषान अम्मा लागी धावली. आयदन दी म्हणु सांगीलें. अम्मान तिका होडलें एक आयदनच दीवनु पेटयली.



वचे वाटरी वीवनु पडलेली केळी दिकीली. ती घूंवनु सरी चोयलीना. सुमसुमीच शेमतीणीक सोदून गेल्ली. थांगा पावनु तीणे भरलेलें उदाक तीच पिल्ली. आनीक भोगडें

थांगाच विंदून ती मुकारी चमकीली. सल्प वचाकय हस्ती भुकेन राबील्या दिकीलें. तिकाय कसलेंच दिल्लेंना. सुमसुमीच देवळांतु वचून राती जांवचाक राकून बेसली.

राती जांवचानिक तीणे रडूक श्रमु केल्लो. रडणें येना जाल्यारीय रडचे वरी सोवदु कोरनु बेसली. तावळी महादेव आनी पार्वती तशीणान आयलीं. आरे! पयरचे पयरी एकि चेल्ली बेसून रडताली, आजीय एकली बेसून रडता! इत्तें जालें म्होणु चोवया.' तांनी तिकाय माळियेरी आशिल्ले पेटपेटार्यांतु साकून एक घेवनु वचाक सांगीलें. तीणे कशीकींच फालें केल्लें. माळियेरी वचून थांगा आशिल्ले होडल्यांतुलो होडलो पेटारोच वेंचून काडलो. जड जड पेटरो उबारनु कष्ट कडून चमकून कशीकींच घरकडे परतली.



जायतें भांगार रत्नां मेळतलीं म्होणु आठोवनु तीणे ती जडाणी व्हांवलीच. येंवचे वाटेरी हस्तेचे लागी भुंडो आसा वे म्होणु सोदूक गेल्ली. हस्तेन तिका भुंजून धांवडावनु घाल्ली. भुंडो ना जाल्यार नाका, भांगरा शेमतीं मेळ्यारीय पूरो म्होणु ती शेमतीणीचे लागी गेल्ली. शेमतीणीनय तिका मारनु धांवडायली. पोटाक भूक लागता. केळीचे लागी गेल्यार केळीं मेळतलीं म्होणु ती होगी होगी चमकीली. केळीन तिका दांडार्याचे पेट दीवनु धांवडायली. कशीय कोरनु पेटारो मात्र घेवनु ती घरकडे पावली.

आखाड्यांतूच अम्मा राकून राबील्या. 'खंय गो भुंडो? खंय गो भांगरा शेमत्तीं? खंय गो केळ्यां घडायू?' अम्मान निमगीलें. 'व्हेल्लेलें भोगडें सरी परतून घेवनु आयलीना मू तूं!'

'तें सगट वचो! हांवें होडल्यांतुलो होडलो पेटारोच हाडलोलो आसा गे अम्मा. वेगळें काय हाडूक हांव राबलीना.'

'जावो, यो जाल्यार. पेटार्यांतु इत्तें आसा म्होणु चोवया.'

दोगांय पेटारो व्हावनु कूडांतु चडलीं. कवड बंद केल्लें. पेटारो वात्तो केल्लो. केल्लोलोच केल्लो! तातूं साकून बेब्बे, विंदूर, हेवाळीं, दिवड, आटपायांचे, जोरले, सोकणी अशी सर्व तरा प्राणी तांचे आंगार उडकी मारूक लागलीं. विंदूर पायावेल्यान धांवताय. दिवड हातपायांक वेष्टण घेताय. जोरले, सोकणी सगट आंगावेल्यान भोंवताय. सर्व मेळनु गोंदोळु. ताजाकय होडान गोंदोळु घालताय अम्मा धूव. भांगार शिंगार म्होणु होडलो पेटारो भोरनु विषजंतू घेवनु आयल्या म्होणु अम्माक धूवेचेरी कोपु आयलो. तीणे धूवेक कोपून घरा भायर घाली.



## संसाळी

एकडे संसाळी नांवाची एकि चेली आशिल्ली. तिका सात जाण आन आनी सात व्होन्नीयो आशिल्यो. सातय आनांक संसाळेचेर होडी माया आशिल्ली. तांकां सात जाणांकय तारुवार तं दंद. गांवगांव भोवनु तीं संसाळेचे खातीर मळमळ तराचीं वस्त्रां, खाण आदी हाडतालीं. परतून पांवतना तांनी आद्यच सोदूचें संसाळेक. तें देखून व्होन्नियांक तिजेर कुसुंगायो.

आनांनी तारुवार वतना संसाळी खेळनु भोंवतली. घराचे माळियेरी एकु होडलो विंदूळो* लांबयलोलो आसा. संसाळेन विंदळ्यारी बेसून जूंय काडून खेळप. आनी जूंय काडता काडताच केस वोळवप. ते खातीर तिगेले आनांनी तिका एकि रुप्या दांतोणी कोरोवनु दिल्लेली आसा.



*विंदूळो- झोंपाळो, Swing

तशी एक दिसा जूंय काडून केस वोळोंवचे वेळारी तिगेले हातांतु साकून ती दांतोणी मेटांचे खाल पडली. आनांनी तारुवार गेल्लोलो वेळु. घरकडे ती आनी व्होन्नीयो मात्र आशिल्लो वेळु. तीणे होडले व्होन्नेक उळदून सांगीलें- 'व्होने, व्होने एक ती दांतोणी काडून दिशी वे?'



'सबाव तशी दांतोणी काडून दिंवचाक जांवचें ना, तूं एक मेट खाल देवनु यो.' व्होनेन सांगीलें. ती एक मेट देवली आनी दुशेरे व्होनेक उल्लो मारलो. 'व्होने, व्होने एक ती दांतोणी काडून दिशी वे? खालाक पडली मू ती!'

'तूं एक मेट लागेन देंव आनी काडी.' दुशेरी व्होनीय गेल्ली. तीणे तिसरे व्होनेक उळदून सांगीलें. तीवय एक मेट देंव म्होणु सांगून दांतोणी काडून दीवनात्तिल्लें गेल्ली. तशी एकेक व्होन्नियांनी सांगून सांगून ती स मेटां देंवली. धाकूले व्होने लागी तीणे दांतोणी काडून दिंवचाक सांगीलें. ते व्होनेक तिजेर सल्प दया दिसली. दांतोणी काडून दिंवचाक ती अशी कोरनु गेल्लेलीय होडले व्होन्नियांनी गोंदोळ घालो-

'नाका, नाका काडून बि दिशी! तीच काडो! सबाव न वें ती भोंवता. तीच काडो! तूंवें काडून दिल्यार तुकाय आमी वाडचें ना.' तशी संसाळीच सात मेटां देवनु

येवनु दांतोणी काडून केस बांदून गेल्ली.

'ही चेल्ली आमकां कसलेच उपकाराक ना, कसलेंच दंद कोरनु सहाय करना. हिका कशीच कोरनु भायर घालका.' सात व्होन्नियांनी निश्चय केल्लो. ते खातीर तांनी एकु उपाय सोदून काडलो आनी तिका उळदून सांगीलें-

'तूं सबाव अशी भोंवल्यार नुपूरो. तुका जेंवका म्होणु आसा जाल्यार तूंवेंय इत्तेंय सगट दंद कोरका. हांगा खाण केल्लेलें कसलेंच ना. रांदणींतु उजो दवोरनु रांदूका जाल्यार राकूड जाय. तें देखून तूं रानांतु वच आनी राकूड घेवनु यो. म्हळ्यार एक कायरीं आसा. राकूड कूराडेन कातरूक नज. दोरान बांदूकय नज. जाल्यार राकूड भोरो बांदूनूच हाडका. होगी वच. आमी सांगलेले वरी राकूड घेवनु आयल्यार मात्र घरांतु चडयतलीं.' अशी तांनी तिका रानांतु धांवडायली. तांनी सांगलेले रीतीर राकूड घेवनु येंवचाक तिका जांवचेंना म्होणु तांनी संतोषान बेसलीं.

संसाळी चमकून चमकून रानांतु पावली. राकूड कूराडेन कातोरनु काडूक नज म्होणु तं सांगल्यां. तावळी इत्तें करप? तीणे अशी तशी चोंवचानिक हांगा थांगा सगट सुकीं शिरपूटां पडल्यांय दिकीलें. तीणे तीं सगट पुंजावनु एकडे केल्लीं. दोरान बांदूनात्तिल्लें कशी कीं भोरो कोरनु घरकडे व्हरप? तीणे चोयतना वाट कसलीच मनांतु येना. तीणे थांगा बेसून रडूक आरांभीलें. तावळी तशीणान एकु दिवोडु वतालो. ताणे



तिगेलें रडणें आयकीलें. आनी कायरीं निमगूक आयलो. तीणे जालेलीं कायरीं सगट सांगीलीं.

'इतलेंच वे आसा? एकि वाट आसा मू. तूं एक कायरीं करी. राकूड सग मिजे फाटीर दवरी. हांव ताका वेष्टण घेवनु पडन. तूं माका सयत राकुडा भोरो घरकडे घेवनु वच.'

दिवडान सांगलेलें आयकून तिका सल्प भय जालें. हो माका खायत बि वे? जाल्यार वेगळी वाट ना देखून तीणे ताणे सांगिल्ले वरीच केल्लें. भोरो घरकडे पावोवनु जावनु तो नुतोच चरनु गेल्लो.



व्होन्नियांनी हें दिकीलें. तांका कोपु आयलो. 'तूवें दिवडाचो सहायु घेतलो. तें सम जालेंना. तें देखून तुका जेंवका म्होणु आसा जाल्यार रानांतु वचून वागीणीचें दूद घेवनु येंवका.'

'वागीणीचें दूद? वागीण माका धोरनु खातली मू!'

'तें कांय आमकां कळना. तुका जेंवका जाल्यार रानांतु वचून वागीणीचें दूद घेवनु येंवका.' तांनी एक आयदन तिजे हातांतु दीवनु घरा भायर देंवोवनु सोडली. हे पावटी तीणे परतून येवना म्होणूच तांनी संतोषान आठयलें.

संसाळी भयान कडकडेवनु रानांतु गेल्ली. वागीणीचें दूद म्हळ्यार खेळु कायरीं बि वे? वागीणीचें खाण जावयात तितलेंच! तीणे भीवनु भीवनु रानांतु वचून वागीणीलो गुफा सोदून काडलो. तांतू चोंवचानिक तीन वागा पिल्लां मात्र आसाय. संसाळेक दिकून पिल्लांनी गोंदोळ घालो.

'तूं इत्या आयल्या? तुका आमगेले अम्मान दिकल्यार सबाव सोडचेंना! होगी वच हांगा साकून! ना जाल्यार अम्मा धोरनु खातली.'

तीणे तावळी जालेलीं कायरीं सगट तांचे लागी सांगीलीं.

'वागीणी दूद व्होरनात्तिलें घरकडे चडोवना म्होणु तं व्होन्नियांनी सांगील्यां. तें देखून माका दूद जायीच.' तीणे रडून



सांगीलें.

'तें मेळचें सल्प कप्ट आशिल्लें कायरीं तं. जाल्यारीय चोवया. तूं हे खोट्याचे पोंदाक निपून वेस. अम्माले दोळ्यांतु पडूनात्तिलें वेसूका.' पिल्लांनी सांगीलें. तशी ती थांगा आशिल्ले खोट्या पोंदाक निपून वेसली.

उणे घडी वचानिक वागीण पावली. येतनाच हांगा थांगा हुंगून चोवनु तीणे निमगीलें. 'हांगा मनशांची घाणी येता. कोण आयलें? खंय? खंय? हूं! हूं!'

पिल्लांनी तावळी फटी मारली- 'हांगा कोणेच आयलेंना मू! तुका सावाव दिसता आसतलें. ना जाल्यार तूंच कोणाकय खावनु आयलेली आसतली.'

'जावो, जावो! येयाय, दूद दितां तुमकां.'



पिल्लां दूद पिंवचाक पडलीं. एदो वेळु वचानिक वागीणीक नीद पडली. पिल्लांनी तांगेले तोणांतु धरलेलें दूद सोवदू कोरनात्तिल्लें संसाळेले आयदनांतु घालनु दिल्लें. जाल्यार आयदन पुरतें भोरचे मुरथम वागीण उटावनु गेल्ली. मेळ्ळेलें जालें म्होणु संसाळी पिलांक उपकारु सांगून दूद घेवनु घरकडे परतली.

वागीणीचें दूद घेवनु आयलेले संसाळेक दिकून व्होन्नीयो स्तव्द जाल्यो. तीणे

आनी परतून येवना म्होण तं तांनी बेसल्लीं. जाल्यार ही परतून पावल्या मात्र न्हय वागीणीचें दूद पर्यान घेवनु आयल्या! आनी हिका धांवडंवचाक इत्तें किं वाट?

दूद हाडलें जाल्यारीय तांनी तिका कोपीलें- 'आयदन भोरनु दूद हाडूक न्हय वे सांगिल्लें? हाडल्यां चोय, अर्द आयदन सरी ना! इत्तें कोरूक सांगल्यारीय सामकी कोरचें ना. चोवया हे फंता तूं इत्तें करता म्होणु! धरी, हो खोटो भरी भात व्होरनु वोरोव कोरनु हाडी. जाल्यार, भात हातान सोलूकय नज, कांडणान कांडूकय नज. सांज भितरी वोरोव कोरनु जांवका.' अशी तांनी तिका भायर देंवयली.



ती तो खोटो भात घेवनु वोरोव कोरूक इत्तें वाट म्होणु चोवनु बेसली. तिका कसलोच उपाय दिसलोना देखून तीणे रडूक आरांभीलें. ते वेळार थांगा एकि गुरबजी आयली. इत्याक रडता म्होणु तीणे संसाळेचे लागी निमगीलें. संसाळेन रडता रडताच कायरीं सगट सांगीलीं.

तावळी गुरबजेन संसाळेक समाधान केल्ली. 'राव, हांव मिगेले मित्रांक घेवनु येतां. आमी सगट मेळनु तुका सहायु कोरूं.' तीणे वोचून जायते गुरबज्यांक उळदून हाडलीं. आनी तांचे लागी सांगीलें- 'कोण बि वोरोवु खांवचाक नज. चोंचीन भात सोलून वोरोवु खोट्यांतु घालका. सांज भितरी दंद जांवका.'

गुरबज्यो सगट उशार जावनु भात सोलूक लागल्यो.



तांनी सगटांनीय एकमेळीन भाताक चोंची मारनु सोलून वोरोव घालनु खोटो भोरलो. जाल्यार एक मात्र जालें. गुरबज्यांतु एकली गुरबीणी आशिल्ली. इतलेंच चड भात दिकूनिक तिका तोंड राबलेंना. तीणे एक भात नुतोच खेल्लेलें कोणेच नेणय.

संसाळी संतोषान वोरोव घेवनु घरांतु गेल्ली. व्होन्नियांनी चोंवचानिक एक वोरोवु ऊणे.

'आगो संसाळे, हांतु एकु वोरोवु ऊणे आसा. तूंवें खेल्लो आसतलो. आनी शेळी घडी हांगा राबूका नाका! देंव भायर!'

'माका भायर घालनाकाय! माकाय हांगा राबूक दींवका.' तीणे रडून सांगीलें.

'जाल्यार धरी हें भोगडें. हांतु समुद्राचो फेणु घेवनु यो. तावळी चोंवूं घरांतु चडोंवका किं नाका म्होणु!'

अशी व्होन्नियांनी मागीरीय तिका धांवडायली. समुद्राचें पाळ मारनु ती उदकांतु होळनु वतली म्होणु संतोषान तीं बेसलीं.

समुद्रा वेळेरी पावनु संसाळी फेणु धरूक चोयली. पाळां मारतना फेणु जाता. जाल्यार तो भोगड्यांतु भोरनु येवू भितरी वता. दुशेर तिसेर ती फेणा मागल्यान धावली. कसलोच प्रयोजन जालोना.



आनी इत्तें करतली? तिका रडणें आयलें. फेणु नात्तिल्लें कशी घरकडे वतली? रडून रडून ती चड उदकांतु देवली. मुकार गेल्यार फेणु मेळूक पूरो म्होणु तीणे आठयलें. जाल्यार होडलें एक पाळ मारनु ती उदकांतु होळनु गेल्लीच. वोब

मारनु उदकांतु बुडून ऊंच येवनु परत परत बुडून ती तशी होळनु गेल्ली. तावळी दूरा एक तारू येता तीणे दिकीलें. तिगेले आनांलें तारू म्होणु समजून तीणे आनांक उल्ले मारले. होडान होडान बोब घालनु हात उबारनु हालोवनु तांची श्रद्धा घेंवचाक श्रमु केल्लो.

तारुवार राबिल्ले धाकले आनान दूरा उदकांत इत्तेंकींच हालता दिकीलें. ताणे सगटांकय उळदून दाकयलें. तावळी एकल्यान सांगीलें- 'आरे, ती आमगेली संसाळी सरी दिसता मू.'

'संसाळी? ती कशी समुद्रांतु पांवतली? एय! ती कांय न्हय!'

'व्हयीच रे! तीच तं ती!'

'ना, ती घरकडे विंदळ्यार बेसून जूंय काडता आसतली.'

'चोवया, आमकां लागी वोचून चोवया. माका दिसता ती संसाळीच म्होणु!'



तांनी तारू ते दिकान सोडलें. लागी पांवचानिक ती तांगेली संसाळीच! तांनी तिका धोरनु होगी तारुवार चडयली. कायरीं सगट निमगून मनांतु जांवचानिक तांकां सामकीच कोपु आयलो. तांगेले हे मोगाचे भयणीक भो कष्ट भोगयलेले तांचे बायलांचे लागी तांकां चांग कोपु आयलो. तांकां साबाव सोडल्यार अवसून्ना.

तांतूले एक आनाक पायाक होडलो एकु मांदो आशिल्लो. तो चिरलो आनी संसाळेक तांतूं निपयली.

तारू तडीर पांवयलें. तांनी घरकडे वोचून 'संसाळे' म्होणु उल्लो मारलो. तांगेलो सोवदू आयकून तांच्यो बायलो भायर आयल्यो. संसाळेक दिकूक ना देखून आनांनी निमगीलें- 'आज आमगेली संसाळी खंय गेल्ली?'

'संसाळेक दिकूक ना. खंय गेल्ली म्हूण कळना.' बायलांनी सांगीलें.

'जावो, आमकां भूक लागता. जेंवचाक वाडाय.' बायलांनी होगी सात पानां दवरलीं. तांचे बामूण पानांचे मुकारी बेसले.



एक पान लागेन संसाळे गुणी दवरूक सांगीलें तांनी. बायलो आळता पेळतांतु चोयताय. जाल्यारीय तांनी नुतोच एक पान लागेन दवोरनु ताजेरीय वाडलें. तावळी ते आनान संसाळेक भायर देंवयली. तिका पाना मुकार बेसयली

आनी सगटय खुशाल जेंवलीं.

संसाळेक दिकून व्होन्नियो रावून कडकडेताय. जेवण जावनु हात धूवनु आन पावले. तांनी बायलांक उळदील्यो आनी संसाळी कशी समुद्रांतु पावली म्होणु निमगीलें. बायलो भीवनु उलोवनात्तिल्लें राबल्यो.

'सांगाय! इत्तें कोण कांय उलयना?

'ती कशी होळनु गेल्ली म्होणु आमकां कळना.' तांनी फटी मारली.

'कळना? फटी सांगताय! तुमीच तं तिका पेटयलेली! तुमीच तं तिका रानांतु राकूड हाडूक पेटयलेली! वागीणी तोणांतु पोडो म्होणु तुमी तिका दूद हाडूक म्होणु पेटयलीना वे? आनी आतां कांय नेण म्होणु फटी सांगताय! तुमकां साबाव सोडूक वचनाय आमी!' अशी सांगून तांनी तांचे बायलांक बरबरी ओडून व्होरनु माड्यांक बांदून पिड्यांनी खणखणीच मारनु घरा भायर धांवडायल्यो. मागीर संसाळी आनी आन सुखान राबीलीं.



# शेणै प्रकाशनाले इतर उपहार




## पुष्पांजली

काव्य संग्रह 2001

श्री पी. एस. रामचंद्र शेणै

शेणै प्रकाशनालो प्रथम उपहार.

52 पानां, मोल 50 रूपया.



## कृष्णगीत

सचित्र काव्य 2004

सूर्या अशोक

36 पानां (व्हड आकारांचीं.)

मोल 75 रुपया.



## होळम्माल्यो काण्यो

(भाग - 1)

ऑडियो कॅसेट 2004

वत्सला आर शेणै

मोल 40 रुपया.







## पुनर्जनी

कथॉसंग्रह 2005

सूर्या अशोक

68 पानां. मोल 65 रुपया.



## होळम्मालो काणियांचो पेटारो

कथासंग्रह 2006

वत्सला आर. शेणै

104 पानां. मोल 100 रुपया.



## गुंजियो अक्षरवृक्षाच्यो

कविता संग्रह 2007

सूर्या अशोक

132 पानां. मोल 100 रुपया.



## Small Wonders

(Poems)2008

Rupashri Ashok

2008 Publication

44 Pages Rs. 40



## अमृतवाणी

संत आनी संतवाणी 2008

सूर्या अशोक

204 पानां. मोल 220 रुपया.




## अनन्य केनिया

इंगळीशांत साकून भाषांतर 2010

सूर्या अशोक

260 पानां. मोल 250 रुपया.




## भुरग्यांलो संसार

बाल साहित्य 2011

सूर्या अशोक

92 पानां. मोल 100 रुपया.




## संबंद

कविता संग्रह 2013

सूर्या अशोक

100 पानां. मोल 80 रुपया.




## विश्वास

नवलकथा 2013

सूर्या अशोक

104 पानां. मोल 100 रुपया.




उत्तरखंडांतुल्यान

## कैलास मानसरोवर यात्रा

मलयाळमांत साकून भाषांतर 2013

सूर्या अशोक

248 पानां. मोल 250 रुपया.





## सोमलता आर पै

एरणाकुळम गांवांतु श्री. वी. नारायण वाध्यार (वोयदु भांगार भटमामु) आनी श्रीमती देवकीबाय हांगेले तेरा चेरडूवांतुली तिसरी धूव जावनु 1941 वर्षा जन्मु. प्री युणिवेर्सिटी तांय शिकवण. तृपूणितुरेचो श्री. वी. वी. आर. पै (केनरा बेंक मेनेजर, निवृत) हांची धर्मपत्नी.

सानप्रायेर आयकलेल्यो काण्यो उडगासांतु दवोरनु मागीर आपले धाकले भांवडाक, आपले आनी भांवडांले चेरडूवांक, नातरांक सग सांगून दीवनु हांनी त्यो काण्यो राकून दवरल्याय. कोंकणी लोककाण्यांचे सांगातांतु पंचतंत्र, जातक काण्यो, हितोपदेश, आदींतुल्यो काण्यो लागेन सरळ कोंकणीन चेरडूवांक सांगून दिवनु येताय.

हांकां तेग चेरडूवां. म्हालगडो पूतु सुधाकर आर. पै एल. आय. सींतु सीनियर डिविझनल मेनेजर. आतां केनियेंतु सेवन करता. हांनी इंग्ळीशान केनिया राज्या पासून यात्राविवरण बरयल्यां आनी कोंकणीन काण्योय बरयल्याय. चित्र शिल्प कलेंतूय व्हड प्राविण्य आसा. दुशेरी, धूव श्रीमती सूर्या अशोक, प्रशस्त कोंकणी लेखिका. पळ्ळुरुत्ती रावता. तिसरो पूतु सुरेश पै चार्टड आकोंवटेंट, मुंबई आसा.



‘लोककाण्यो भुरग्यांक तांचे आवयकडल्यान वा
आज्येकडल्यान कश्यो मेळताल्यो, ते वरी उपाट मायेमोगान,
घरगुत्या उतरांनी ह्या संग्रहांत समाविष्ट केल्याय.
कथनमाधुर्याचो ऊणाव ना करूक पाना पानांर देखदिणी
रेखाचित्रां आसाय. काण्यांतुले संदर्भ चित्रांनी
सजयल्याय दिकून सगल्योय काण्यो प्रत्यक्ष
आवय समक्षांत आयकिल्ले वरी दिसतल्यो.
लोकवेद सांबाळून दवरप हाचो अर्थ वास्तवाक
आवयमोग सांबाळून दवरप असोच जाता.
लोकवेद चड चड जाणांकडे चडांत चड पावोवपाचें धन्य ध्येय
ह्या पुस्तका फाटल्यान उठून दिसता.
सानांकय व्हडांकय एक वरीच आवडपी,
एकवरीच उपयोगप्रद असलें हें संकलन
उत्तम रूपान तयार केलेल्यांत श्रीमती सोमलता पै,
श्रीमती सूर्या अशोक, श्री. सुधाकर पै, ह्या तेगांय जाणांक
कितलींय परबीं दिवं, चड जावंचींनाय.
ते वरी महत्वाचो, अर्थपूर्ण आनी धन्य वाव्र हो.’

- **शरतचंद्र शेणै**

**शेणै प्रकाशन**

**मोल 100 रुपया**